# ॲक्चुअली...
# आय लव्ह यू



महेश चंद्रकांत नाईक

# ॲक्चुअली...
# आय लव्ह यू

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नाईक



ACTUALLY ... I LOVE YOU
A Konkani Play by-
Mahesh Chandrakant Naik

**उजवाडावपी**
अक्षरब्रम्ह प्रकाशन
व्दारा-महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय ४०३००१

**पयली आवृत्ती**
नोव्हेंबर २००६

*अक्षर जुळवण :*
**एरीस कंप्युटर**
घर. नं. ५९९, बरभाट ताळगांव,
पणजी गोंय. फो.६५१०१९४
मोबायलः ९८२२३०६९०७, ९२७००२४७६३
**छापणावळः** श्री प्रिन्टर्स मेरशी

**मुखावयलें चित्र :** अंगाली शिरगांवकार

**मोलः** ८०रू.

**लेखकाचो नामोः** महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय.४०३००१
फोनः २४२६२०९

# दोन उत्तरा...

" ॲक्चुअली...आय लव्ह यू" एक मोगाचें नाटक. एक चेडो भुरगेपणासावन एका चेडवाचेर मोग करता, पूण आपलो मोग ताच्या म्हयान उक्तो करपाक भिता, कारण ताका जितकी ताच्या मोगाची गरज आसा तितकीच ताचे इश्टागतीची.

आयज वयार आयिल्लो चलो जावं चली एकमेकाच्या मोगान पडटना आमीं पळयतां, पूण तातुंतले कितले जाण आपल्या काळजांतले शब्द भायर काडटां? जाय ते मोगी अशें मेळोन लेगीत मेळना. पद म्हणू शें दिसलें जाल्यार गुणगुणपाचें, दुसऱ्याक आवडटलें काय ना हाचो विचार करचो न्हय. तसोच, मोग जालो जाल्यार सांगून सोडचें, हय म्हणतलें काय ना हाचो विचार करचो न्हय.

"दोळे बंद करतकूच तें फुडयान दिसलें, ताचो आवाज आयकूंक आयलो जाल्यार समजपाचें ताणें मनान घर केलां" अशीच एक गजाल ह्या नाटकान आसा. प्रजय दोळे बंद करता तेन्ना ताका प्राचीचो चेहरो मुखार दिसता, आनी ताचो आवाज आयकूंक येता. त्या वेळार ताका कळटा की तो प्राचीच्या मोगान पडला. हें नाटक पळोन एक चली म्हज्या म्हयान आयलें आनी विचारूंक लागलें " खयानीच अशें जाव येता?" हांवेन म्हटलें "करून पळय," कांय वेळान तें चली परतून म्हयान आयलें. ह्या वेळार ताच्या चेहऱ्यार खुशी आसली. "हांवेन करून पळयलें" इतकें सांगून तें चली पळत गेलें. म्हाका कळलें की ताणें तशें करून पळयलें आनी तें एक चल्याच्या मोगान पडलां हाची ताका जाप मेळ्ळी.

बरयतना हांवेन हें सहज बरयल्लें. खयचोच अणभव बरोंक नासलो. ताका लागोन हांव स्वताक प्रश्न विचारूंक लागलो. खयांनी अशें जावं येतां? हावेंन बरयल्ल्या गजालीचेर म्हजोच विश्वास बसना जालो. ताका लागोन म्हज्या शब्दांचो प्रयोग हांवेन म्हजेरूच करपाचें थारायलें. दोळे बंद केले, आवाज आयकुपाचे यत्न केलो... दोळयां मुखार दिसलें! पूण चली न्हय, तांबडो रंग. त्या रंगा बरोबर आबोल्यांची फाती

दिश्टी पडटाली, पूण ती माळणारें दिश्टी पडनासलें. हांवेंन आवाज आयकुपाचो यत्न केलो. आवाजूय आयलो! पूण चलयेचो न्हय, घंटेचो. अशें करतल्यांक प्रस्नाची जाप मेळटा, पूण म्हाका प्रश्नाचेर प्रश्न पडलो. दोळे उगडटकचा म्हज्या लक्षान आयलें म्हजो मोग नाटकाचेर. दिसलें तें तांबडे काळीज न्हय, तर आबोल्यान बांदिल्लो नाटकाचो तांबडो पड्डो. आनी ती घंटा? ती आसली पयली, दुसरी, नाजाल्यार तिसरी.

ॲक्चुअली आय लव्ह यू'' हें म्हजें सगळयान कमी वेळान बरोवन जाल्लें नाटक. नाटक आनी ऑर्केस्ट्रा हातून फरक आसा, पूण जर दोनय एक केंलें जाल्यार? होच विचार म्हज्या मनान आयलो, आनी हांवे 'ॲक्चुअली आय लव्ह यू' नाटक उबें केलें. हातून डान्स, पदां, कॉमेडी आनी इमोशन आसा. डान्सा बगर जर कोणे हें नाटक करपाचें थरायलें, जाल्यार हें नाटक लोकां म्हऱ्यान पावतलें अशें ना.

"ॲक्चुअली आय लव्ह यू'' वेळार मन उक्तें न करणाऱ्याची ही प्रेम कथा. खरें म्हळयार आयज मन उक्ते करपाक जाय ते दिस आसा. वळखीचें रूपांतर फ्रेन्डशीपेन करपाक जाय जाल्यार 'फ्रेन्डशीप डे' आसा, फ्रेन्डशीपेचें रूपांतर मोगान करूंग जाय जाल्यार 'वेलंटायन डे' आसा, आनी मागीर 'चिल्ड्रन डे' लेगीत आसा. हे दीस पळोवन म्हाका फकत एकूच प्रश्न पडटा कि जांणे हे सोबीत दीस निर्माण केल्या ताणें 'मेरेज डे' किदयाक करूंग ना ?...

**- महेश चंद्रकांत नाईक**

जांच्या उर्बेभरीत उतरांनी म्हजें नाट्य
साहित्य सदांच फुलत गेलें त्या
स.डॉ.मनोहरराय सरदेसाय हांका हे
नाटक ओपता !



## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्लें कोंकणी नाट्य साहित्य

### उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां:

ॲक्शन
ऑल फॉर यू
ॲरेस्ट हिम
ॲक्टींग ॲक्टींग
आय ॲम सॉरी ( लेखनाचें पयलें बक्षीस मेळोवपी नाटक)
ॲक्चुअली ... आय लव्ह यू

### उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां

अपुरें स्वातंत्र्य,
आधार एअरलायन्स, आय डोन्ट केअर,
ऑपरेशन डबल गेम, आत्मो

### एकांकी

ऑपरेशन डबल ए ,आधार

### नाटकुलीं

आमी अशे म्हणून तशे
आमचो खेळ
आयच्यान आळशीपणा नाका

### एकपात्री

चेडू , मिस इंडिया

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग मेरशे, हांगा श्री सातेरी नाट्यमंडळांत १६ मार्च २००३ ह्या दिसा सादर केलो. ह्या प्रयोगांत वांटो घेतिल्ल्या कलाकारांची नांवावळ.

| | | |
|---|---|---|
| दिग्दर्शक | : | महेश चंद्रकांत नाईक |
| निर्मिती मुखेल | : | किशोर नार्वेकर |
| संगीत | : | शिवनाथ नाईक |
| नेपथ्य | : | कमलाकांत च्यारी |
| उजवाडा येवजण | : | विकास चोपडेकार |
| वेशभुशा | : | दीप्ती शिरगांवकार |
| नांच दिग्दशन | : | आरती-प्रिती |

## कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| प्रजय | : | चेतन कयळेकार |
| सुदेश | : | विजेश नार्वेकार |
| शाणु | : | सचिन सुतार |
| सर | : | अजय गोवेकार |
| साहिल | : | सदानंद खांडोळकार |
| अनिल | : | ब्रिजेश चोपडेकार |
| शिरी | : | नितीन नाईक |
| डॅडी | : | गुरूदास गोवेकार |
| मॅनेजर | : | महादेव शिरगांवकार |
| प्राची | : | कु. दीपा गोलतेकार |

कोरसः आरती तुळस्कर, प्रिती तुळस्कर, सपना तांबे, सोनाली गोवेकार, दिव्या नाईक, दीप्ती शिरगांवकार, प्रणव नाईक

## खाशेलें उपकार

म्हजें हें नाटक पुस्तक रूपान येवपाक
डॉ. मुकेश कायसुवकार
हांणी खूप आदार दिला, ते खातीर तांचें खाशेलें उपकार.



"आंक पयलो"

(पडडो उघडटा . संगीताचो वर्ग. शिरी येता.)

**शिरी** : अले वा! कोनूच योवंक ना. बलें जालें. आयज हांव शगल्यान पयलीं आयलो. ना जाल्यार तो म्युझीक सर सदांच म्हणटा, हांव उशीला येता म्हन.हेका किर्ते शांगपाक. शकाली श्कोलान वचून शानचे संगीत क्लाशिक येवंक जमो नाका.दनपाला मात्सो न्हिझोंग जाय. हांगा येवच्या पयलीं हें वाजता काय ना ते पोलोंग जाय. शालके वाजना जाल्यार शल तकली खातलो. आयज शलाक हे वाजोन दाखोंग जाय. हांव बलें वाजयतलो मागील शल म्हाका व्हेली गुद दितलो. हांव तें व्हेली गुद व्हलोन आईक दाखयतलो.(शाणू येता)

**शाणू** : अे SS शिरी.

**शिरी** : अले शाणू बलो मले?

**शाणू** : किदें? हांव भेरो? म्हाका भेरो म्हणटा. तोण फोडटलो. तू लुडबो तो पळय.

**शिरी** : अले भेलो न्हय ले. हांव बलो मले काय विचालता. भेल्याक कोन भेलो म्हनतलो!

**शाणू** : हांवे सारखे आयकलां तुवेन म्हाका भेरो म्हटला तो.

**शिरी** : तूं पयलीं तें कानाचें लाय.

**शाणू** : किदयाक लांव हांव कानाक, हांव किदें भेरो? सामकेंच आयकोंग येयना म्हाका? केन्ना केन्ना एक एक शब्द आयकोंग येयना म्हण किदें हांव भेरो?

**शिरी** : पूण जाय तें आयकोंग येयना. नाका तें येता.

**शाणू** : किदें?

**शिरी** : काय ना ले, काय ना. माका एक शांग, तू भेलो न्हय?

**शाणू** : हय, हांव बरो आसा.

**शिरी** : पलयलें?

**शाणू** : शिरी तुज्या हातान किदें?

**शिरी** : वाजोपाचें तें, शलान काल शांगला न्हय लें किदें वाजोपाचें मेयता

तें घेवन येयात म्हण. हांव लाती जातलेक गेल्लो. थंयच्यान हाडलां तें. तुवेन किर्दे हाडलां?

शाणू : म्हाका कायच मेळोंगना, शेवट बाबाची पिल्लूक घेवन आयलो.

शिरी : बाबाची पिल्लूक?

शाणू : म्हजो बाबा बशीर आसता न्हय. दनपरां तो जेवपाक घरा आयलो तेन्ना हावेन ती बोलसातली काडली.

शिरी : आनी आता बाबाक किर्दे?

शाणू : आता बाबा बस धाडायतलो (अनिल आनी प्राची येता)

अनिल : हे चंगू मंगू आयज बेगीन शे आयले.

शिरी : किर्ते ले तुमी उशीला येता. हांव पलय आयज बेगीन आयलो.

प्राची : एक दिस बेगीन येवन नेट मारता. सर्दी हांवूच बेगीन येतार्ले. आज ह्या अनिलाक लागोन कळाव जालो. बेस्टें रावलें हाका.

अनिल : नवी सायकल घेतल्या म्हण राव म्हटलें तुका. म्हाका किर्दे खबर वाटेर एक भेरो मेळटलो म्हण.

शाणू : म्हाका किर्दे म्हटलें रे?

शिरी : तू मात्सो ओगी लाव. अनिल किर्दे जालें ले?

अनिल : काय ना रे. हेका हावेन म्हजे नवे सायकलीर बसयलें, आनी कळाव जाला म्हण फास येतालो, पूण सांतीनेझ देवतेर ब्रेकूच तुटलो. सायकल कशीच थामना. फुडे एक भेरो चलतालो, कापीण मारल्यार तोय सायडीक सरना...

शिरी : मागील?

अनिल : मागीर किर्दे, घातली सायकल ताज्या भेणार! तेन्ना सायकल थामली.

प्राची : सायकल थांबली खंयची. त्या भेऱ्यावांगडा आमीय पडली. आनीक हांव बसचेंना तुजे सायकलीर. हांव बशीनूच येतलें.

अनिल : आमकां सायकलीन खंय वडयला. भेऱ्यान वडयला.

शिरी : हे भेले पून आमच्याच नशीबान आसा, फुदयान एक आसा.

शाणू : किर्दे म्हटलें रें?

शिरी : काय ना ले, तुका कोनी कीर्दे म्हटलां.



अनिल : शिरी तुवेन हें किदें हाडलां रे.

शिरी : हें वाजोवपाचें, जात्रेचें तें, शलान हाडूंग लायलां न्हय.

शाणू : प्राची, हांवेन पळय पिल्लूक हाडल्या.

प्राची : खयचीं?

शाणू : चोरयेची, तुका हांव चोर दिसता. बाबाची ती.

शिरी : ओगी बस भेल्या ... प्लाची तुवेन किदें हाडला गो?

प्राची : हांवेन घुंघरू हाडल्या.

शिरी : अेऽऽ पिछे मगो तू, शलान शांगला वाजोपाचे घेवन यो म्हण आनी तू घुंगलू घेवन आयला.

प्राची : घूंघरू वाजोवपाचे न्हय?

शिरी : घूंगलू वाजोपाचें खंय तें पायान नाजाल्यार माजराच्या गल्यान घालपाचें.

शाणू : पिसो हो किदेंय उलयतां. अनिल तुवेन हें किदें हाडलां?

अनिल : क्यासीओ तो, डॅडीन हाडला.

शाणू : बरो दिसता पळोवपाक

अनिल : मागीर म्हारग तो.

प्राची : हे पैशेकार, हांका म्हारग किदें आनी सोवाय किदें.
(साहील सगल्यांक धुकलीत येता)

शिरी : अेऽऽ पीछो मले हो सगल्यांक दुकलीत येता.

साहील : सर येवंक ना? बरें जालें बेस्टोच तापता तो.

अनिल : तूं खरशेला सो?

साहील : किदे सांगू, म्युजिक सरान वाजोपाचे हाडूंग लायला म्हण हांव घुमट घेवन येतालो, म्हटले वाटेर वाजोन येवया. पुण घुमट वाजोंक सुरवात करताच रस्त्यावयले कुत्रे म्हाज्या फाटल्यान लागले. एकटयान घुमटाकूच घट्ट धरलो.हावेन घुमट थंयच आपटीलें आनी धावत आयलो.

प्राची : कुत्र्यान घास मारूंकना मरे.

साहील : घास किदें मारतलो. कुत्रे फकत म्हज्या फाटल्यान येता, घास केन्नाच मारीना.

शिरी : आपल्या जातीक वळखता आसतले.

साहील : किदें?

शिरी : काय ना लें आता शांग तू शलाक किदें दाखयतलो?

साहील : तसो हांव हुशार, हावेन त्या मारूतीच्या देवळांतली घंटा हाडल्या.

अनिल : चोरून?

साहील : चोरून किदयाक, भटाक सांगून हाडल्या. भटाक सांगला मागीर हाडून दिता म्हण.

प्राची : आमीं सगळयानी वाजोपाचें हाडला , सर आमचेर खूप खोशी जातलो न्हय.

अनिल : पूण तशे आमीं ताका वाजोवन दाखोवपाक जाय, ना जाल्यार तापतलो तो.

साहील : आमीं अशें करूंया, सर येवचे पयलीं सगळे आप-आपल्या जाग्यार बसोन जें हाडलां तें वाजोवया.
(सगळे बसता. जें वाजोवपाचें आसा तें वाजयता. प्रजय येता)

शिरी : अेऽऽ नवो भुलगो आयला
(सगले प्रजया म्हऱ्यान वता)

अनिल : संगीत शिकपाक आयला रे?

प्रजय : हय

शाणू : नाव किदें तुजें?

प्रजय : प्रजय!

शाणू : बरे आसा, अजय.

प्रजय : अजय न्हय, प्रजय!

शाणू : तेंच तें अजय.

शिरी : तू ओगी लाव. हो भेलो,प्लजय खंय लावता तूं?

प्रजय : रायबंदरा

शिरी : लागीच लावता, लायबंदला

प्रजय : लायबंदला न्हय, रायबंदरा.

शिरी : तेंच तें लायबंदला

शाणू : तूं ओगी राव, हो लुडबो



प्राची : तें तुज्या हातान किदें?

प्रजय : गितार म्हणटा ताका, वाजोवपाचें तें.

अनिल : तुका कशें कळ्ळें आज सरान वाजोपाचें हाड सांगला म्हण.

प्रजय : म्हजेकडें आशिल्लें म्हण घेवन आयलो

शिरी : म्हालग न्हय लें तें?

प्रजय : म्हज्या डॅडीकडे खूप पैशे आसा. डॅडीन सांगला किदें जाय तें सांग, हाडून दिता म्हण.

शिरी : डॅडी कडे पैछे कुछता दिशता.

प्रजय : अेऽऽ आमचो सर खंय?

शिरी : शल आजून योवंक ना. तू यो बाकाल बश. (प्रजय बसपाक वयता, शिरी खुर्ची हालयता, प्रजय पडटा. रडोंग लागता.) पल्लो ले, उत, उत लडों नाका.शल तापतलो. तूं हांगाच बश आ, पयले खुलचेल शालको शलाच्या शमोल.

प्रजय : हांव पयल्या खुर्चेर किदयाक?

शिरी : तू नवो येयला न्हय. शल तुका विशलोंग जायना म्हण.

प्रजय : अे, आमचो म्युझीक सर कसो आसा?

शिरी : जाण्टो आशा. केश पिकल्या आनी तकलेक एरपोट जाला.

प्रजय : तशें न्हय, स्वभावान कसो, चुकलें काय तापता?

शिरी : ना, चुकले काय कायच तापना, दायलेक कानाल मालता.

प्राची : किदयाक रे ताका भेश्टायता.

शाणू : अेऽऽ सर येता , सर येता
(शिरी धावत येता आनी अनिलाचे माणयेर बसता)

शिरी : माझी खुलची मोव शी जाली(अनिल ताका धुकलता) तुजेल बशलो ले हांव.शॉली आ, शॉली (आपल्या जाग्यार बसता. सर येता सगळे उबे रावता)

सगळे : गुड इवनिंग सर.

सर : गुड इवनींग. बसात ( शाणू सोडून सगळे बसता) हाका सदीच दोनदा सांगूंक जाय( मोठयान) बसात.

शिरी : भेल्या, शलान बश शांगला (बसता)



सर : कशें आसा तुमी सगळे?
सगळे : बरे आसा सर.
शिरी : शल नवो भुलगो आयला.
सर : पळयला हांवेन, तू बस सकयल. असो फुडे यो रे (प्रजय सराच्या म्हऱ्यान वता) नांव किदें तुजे?
प्रजय : प्रजय साखरदांडे.
शिरी : शल लायबंदला लावता तो.
सर : तूं मर्दी मर्दी कित्याक उलयतां? बस सकयल. तर हो तुमचो नवो इश्ट प्रजय, प्रजयाक सगळे आपली वळख करून दियात.
प्राची : प्राची बोरकार
अनिल : अनिल फातर्पेकर
साहील : साहील पणजीकर
शिरी : शिलीश ऊल्फ शिली बांकीलकल
शाणू : शामू, ना जाल्यार शाणू मोटेकर
सर : तुजी ह्या सगळयांची ओळख जाली. आयच्यान हे तुजे इश्ट. चल जाग्यार बस (बसता). चलात, आता आयचो अभ्यास करूंया. हावेन सगळयांक म्युझीकल इस्ट्रुमेन्ट घेवन येवपाक सांगलेलें. तुमी सगळयानी हाडल्या आसतले.
शिरी : हय शल, शगल्यानी हाडल्या, प्लजयानूय हाडला शल.
सर : खबर आसा म्हाका. बस सकयल. तर तुमचे इस्ट्रुमेन्ट हांव मागीर पळयतां. पयली तुमकां एक प्रश्न विचारता.शाणू तू सांग तुका संगीत आवडता?
शाणू : हय सर, दनपरां जेयला सर.
शिरी : किदें शांगता लें.
शाणू : सर जेयला काय विचारता मरे?
शिरी : आले शंगीत आवत्ता काय विचारता.
शाणू : हय सर आवडटा.
सर : व्हेरी गुड. किदयाक आवडता तुका संगीत.
शाणू : सुंगटांचें हुमण आनी तोणाक खारे बांगडे.



शिरी : किदे शांगता ले.

शाणू : सर किदे खालें काय विचारता.

सर : हाका पयली सारखे आयकोंक येयना आनी निमण्या बाकार बसला. असो फुडे योरे (आता सांग तुका संगीत क्लासाक किदयाक येवचे शे दिसले.

शाणू : सर डॅडीक म्हाका हांगा धाडुसो दिसलो.

सर : म्हळयार तुज्या डॅडीन तुज्यान कलाकार पळयलो आसतलो.

शाणू : ना सर, म्हाका सारखे आयकूंक येयना न्हय.म्हण डॅडीच म्हणूंग लागलो कि ह्या बोवाळान माझ्या कानाचे पडदे उगडटले.

सर : चल वच जाग्यार बस. पडदे उगडटले खंय, हांच्या वांगडा आड्डोन म्हजे पड्डे फुटोंग आसा. शिरी तू सांग तुका किदयाक येयन सो दिसलो.

शिरी : शल म्हाका व्हडलो जातकील बली बली पदा म्हणूंग जाय.

सर : पयली सारखो उलय आनी मागीर पदां म्हण. साहील तुका किदयाक योव शें दिसलें?

साहील : सर हांव घराकडे मोठ्ठयान पिठाचो डबो वाजयतालो म्हण आई म्हणूंग लागली संगीत क्लासीन वचून सराची तकली धाडय.

सर : (तकलेर हात दवरीत) बस सकयल, हांका आवय बापूय संगीत शिकोंग धाडिना, आपले वजे कमी करूंक धाडटा...प्राची तू सांग तुका संगीत क्लासीक किदयाक येंवचे शें दिसलें?

प्राची : सर म्हाका सिंगर जावपाचे आसा.

सर : व्हेरी गुड.

शिरी : म्हाका तोमनो मालता, आनी चेलवांग बलो वेली गुद म्हनता. कोमो खंयचो.

सर : किदें बडबडता रें?

शिरी : काय ना शल

सर : चला, आता आमीं आमचो अभ्यास फुडें व्हरोया. आनी मागीर तुमचें वाजोवप घेवया. प्रजय तुजो आवाज पळोवया, म्हण आSS

प्रजय : आ SS



सर : वा! गोड आवाज. परत एकदा म्हण.
प्रजय : आ SS...
सर : (डोळे बंद करता) वा ! वयर म्हण (प्रजय खुर्चेर चडता)
प्रजय : आ SS...
सर : आनींग वयल्यान (शिरी धावोन येता, प्रजय तेच्या खांदार चडटा)
प्रजय : आ SS...
सर : सोबीत. आनीक वयल्यान म्हण
प्रजय : सर आनीक वयर जागो ना.
सर : (डोळे उघडून) आरे तू वयर किदयाक चडला.
प्रजय : सर हांव खंय चडला, तुमीच वयर वयर करून चडयला.
सर : आरे हांवेन सुर वयर म्हटलेंलें. तू स्वता वयर गेलो. देंव सकयल, आनी तूं (शिरीक मारता) जाग्यावयलो किदयाक उठलो.
शिरी : आपूण वयल वयल कलता आनी म्हाका मालता.
सर : किर्दे बडबडता रें?
शिरी : काय ना शल.
सर : चल जाग्यार बस आनी हांव म्हणता तशें म्हणून दाखय, म्हण साSS...
शिरी : शा SS...
सर : शा न्हय सा SS...
शिरी : छा न्हय शा SS
सर : आरे शा न्हय सा, सा...
शिरी : अले छा न्हय शा, शा...
सर : गाढवा सा म्हण
शिरी : गाढवा छा म्हण
सर : म्हाका गाढव म्हण्टा (मारता)
शिरी : शल तुमीच शांगले न्हय आपूण म्हणता तें म्हण म्हणून.
सर : चूप. हाचे वागडा लागल्यार पिसो जातलो हांव. अनिल तूं म्हाका एक पद म्हणोन दाखय.
अनिल : आवारा हूँ...!



**सर** : रावलो किदयाक फुडें म्हण मरें.

**अनिल** : सर हाचे फुडें म्युझीक आसा, हांव म्युझिकेक रावला.

**सर** : म्युझिकेक रावला? बस सकयल, गाढव खंयचो. शिरी आतां तूं एक पद म्हण.

**शिरी** : शायद मेली शादीका खयाल,शायद मेली शादीका खयाल,शायद मेली शादीका खयाल...

**सर** : फुडें म्हण मरें.

**शिरी** : फुडें कलना शल

**सर** : बस सकयल. कसले भुरगे गळयान पडल्या.पिक्चराची पदांय म्हणूक कळना.आतां हांव तुमकां आनींग कायच विचारीना. आता उपकार करून तुमचे इस्ट्रुमेंट दाखयात. (प्रजय दाखयता)very good(प्राची)good संगीतान केन्ना केन्ना घुंगरांचोय वापर जाता (अनिल) good (साहील) ही घंटा किद्याक हाडल्या. संगीतान घंटेचो वापर जाता?

**साहिल** : सर, संगीतान घुंघराचो वापर जाता जाल्यार घंटेचो किदयाक जायना. आनी आर्मी आरत म्हणटना घंटा वापरता न्हय.

**सर** : चड सुबेस उलयतां तूं. चल बाकार उबो राव. आनी नंदी बैल कसो मान हालोवन घंटा वाजय.(साहिल घंटा वाजयता)

**साहिल** : सऽऽर

**सर** : किदें जालें. थामलो किदयाक?

**साहिल** : सर कलसावाचो बटन तुटलो.

**सर** : आता तो कसो तुटटलो.

**साहिल** : घंटा वाजयतना तुटलो.

**सर** : बस सकयल, कसल्या गाढवांक संगीत शिकोंग आयला हांव. शिरी तुवेन किदें हाडलां?

**शिरी** : शल हें पलय हावेन जात्रेचें हाडलां.

**सर** : हाडून, हाडून किदें हाडलां गाढवान. तुका ल्हान भाव आसा.

**शिरी** : ना, भयन आशा शल.



सर : मागीर ताकाच खेळपाक दी तें.

शिरी : म्हाका खेलोंग हाडलां आनी भयनीक दी खंय. बलो आशा हो.

सर : किदें बडबडटा रें?

शिरी : काय ना शल

सर : बस सकयल, शाणू तुवेन किदें हाडलां?

शाणू : सर पिल्लूक हाडल्या.

सर : एकटो हाडटा घंटा, जाल्यार दुसरो पिल्लुक हाडटा. आता एक काम कर, ती पिल्लूक सुरान वाजोवन दाखय.(मोड्डयान वाजयता सगळे कांन धापता)

शाणू : सर वाजोकूच ना.

सर : किदें, सगळयांचे कान फोडले आनी वाजोकूच ना म्हणटा. भेरो खंयचो, हाका कोणी सांगला संगीत. हांच्यानी घरा डबेच धाडोवपाचे. आतां आनी हांका किदें शिकोवं? आतां सदीच्या भशेन केल्यार बरें. प्राची तूं अशें फुडें यो आनी एक सोबीत पद म्हण, प्रजय तू हें वाजोंक जाणा?

प्रजय : जाणा सर.

सर : प्राचीक म्हणूनी, तू साथ दी. बाकी सगळे किदें हाडलां तें ल्हव वाजयात. आवाज करूं नाकात. (प्राची पद म्हणटा.प्रजय म्हऱ्यान रावोन गितार वाजयता. सर न्हिदला. शिरी सर न्हिदला काय हाची खात्री करता. एक एकटयाक भायर धाडता)

शिरी : प्राची, प्राची पुलो, शल न्हिदला. चल या, शगले गेले.

प्रजय : खंय गेले सगळे.

शिरी : घला गेले, आमीं शदी अशेंच कलता, प्राची पद म्हणता, शल न्हिदता आनी आमीं घला धाव मालता, चल या(शिरी वयता, प्राची प्रजयाच्या हाताक धरून ओडीत व्हरता. प्रजयाचो डॅडी येता)

डॅडी : प्रजू, प्रजू.. बाबा प्रजय, आरे च्या! हांगा तर कोणूच ना, भुरगे खंय गेले सगळे? आनी हो सर, भुरग्यांक शिकोवचो साणून न्हिदला सो (हात लायता)सर, अे सर उठ.

सर : कोण ...कोण किदें जालां?

डॅडी : तू म्युझीक शिकयता काय झेमता रे. म्हजो बाबा खंय?

सर : तुजो बाबा हांव जाणा?

डॅडी : बाबा म्हळयार म्हजो चेडो, प्रजय खंय?

सर : कोण प्रजय, गेलो दिसता तांच्यावांगडा. हें सगळे भुरगें अशेंच करता. शिकचे साणून घरां धांव मारता. मालकीऱ्याद सगळे. तुमचो चेडोय तातुंतलोच.

डॅडी : अे सर. एक मारतलो म्हज्या चेडयाक कितेंय म्हणशीत जाल्यार. तू क्लासीन झेमो काडटा मागीर ते घरां धांव मारचेना जाल्यार किदें. तुकाच पयली जाग्यार हाडूंक जाय.

सर : म्हाका जाग्यार हाडपी तू कोण?

डॅडी : हांव कोण? हांव ह्या स्कुलाचो ट्रस्टी!

सर : किदें?

डॅडी : आता चल, म्हजो चेडो खंय आसा तो पळय. (सर वाता) ह्या भुरग्यांचें म्हण किदें चुकता. सर आसा तो असो. पूण अशें जाल्यार ह्या भुरग्यांचो फुडार कसो जातलो, हे भुरगे म्हळयार फुडाराचे कलाकार. तांचो फुडार असो वगडावन जायना. ह्या स्कुलाचो ट्रस्टी ह्या नात्यान म्हाका कितें तरी करूंक जाय. एक बरो सर हाडून नव्यान क्लास सुरू करची पडटली.(प्रजय आनी प्राची येता)

प्रजय : डॅडी, डॅडी

डॅडी : आरे बाबा खंय गेल्लो रे तूं? तुका सांगलेंलें मरें हांव व्हरोंग येता म्हण.

प्रजय : म्हणूनच्च हाव वचूंग ना. प्राची सांगी घरा या. हांवें ताका सांगलें म्हजो डॅडी गाडी घेवन येतलो म्हण.

डॅडी : हें कोण?

प्रजय : डॅडी हें प्राची, म्हजें फ्रेन्ड.

डॅडी : फ्रेन्ड? तुका म्युझीक शिकोंग धाडला काय फ्रेंडां करूंग धाडलां रें? (प्रजय रडता) आरे... आरे बाबा रडो नाका. ओगी राव. मात्सो

तापल्यार रडता हो. सारको आवयचेर गेला. बाबा हे घे, चॉकलेट घे (चॉकलेट घेता आनी ओगी रावता)आतां चल या घरा आनी तुज्या फ्रेण्डाकूय घे, ताकाय घरा पावोया (डॅडी वता. प्रजल चॉकलेट प्राचीक दिता. प्राची ताका घुंघरू दिता आनी दोघांय हातांत हात घालून हुडक्यो मारीत वता)

(ल्हव ल्हव काळोख जाता)

(उजवाड जाता. ऑर्केस्ट्राचो प्रॅक्टीस रूम. डान्साची प्रॅक्टीस चालू आसा, तीच पात्रां आता व्हड जाल्यां. अनिल, प्रजय, प्राची येवन साथ दिता. मॅनेजर येता)

**मॅनेजर** : व्हेरी गुड, अशेच प्रॅझेन्टेशन जाय. लक्षान दवरात परवाचो शो मोठो आसा. तिकेट शो तो, ताका लागोन आमकां भरपूर तयारेन वचूंक जाय. तशे रेन्बो कलर्स नाव गोंयान फामाद आसाच. पूण आमकां तें टिकोवन दवरूंक जाय. ऑफकोर्स आयज आमच्या ऑर्केस्ट्रान जें नाव कमायलां तें तुमच्या सारखे कलाकार ह्या ऑर्केस्ट्रान आसा म्हणूनच.

**प्रजय** : सर ऑर्केस्ट्राचे कलाकार बरे आसले म्हण जायना. त्या ऑर्केस्ट्राचो मॅनेजर िततकोच बरो आसचो पडटा. जेन्ना मॅनेजराची प्लेनींग आनी कलाकारा वांगडा वागणूक बरी आसता तेन्नाच एक ऑर्केस्ट्रा येशस्वी जावंक पावता. तुमीं ह्या ऑर्केस्ट्राचे मॅनेजर, ह्या ऑर्केस्ट्राक वयर काडपाक तुमचोय मोलादीक वांटो आसा.

**मॅनेजर** : Thanks प्रजय!, प्राची तुवेन तुजीं पदां घेतलीं?

**प्राची** : यस सर

**मॅनेजर** : ॲनी प्रॉबलेम वीथ म्युझीक?

**प्राची** : नो सर, बट सर, परवा हावेन नवें पद घेवपाचें थारायलां. आयज ताची प्रेक्टीस घेतल्या, जस्ट तुमचे परमीशन...

**मॅनेजर :** डोन्ट वेट फोर माय परमीशन, गो अहेड. तुमकां बरें दिसतां तें करात. म्हाका तुमचेर पुराय विश्वास आसा. तुमी किदें करतलें तें बरें करतले. ok?

**प्राची :** यस सर

**मॅनेजर :** आनी एक गजाल लक्षान दवरात. परवा आमी मात्शे बेगीन भायर सरपाचें. सावडर्या पावपाक वेळ लागतलो म्हण मात्शे बेगीन भायर सरोंग जाय, प्रजय, सगळयांक हें यादीन सांग. आनी साहील खंय आसा?

**अनिल :** सर तो मात्सो उसरा येतलो.

**मॅनेजरः** बरें आसा. पूण प्रॅक्टीस घेवपाक लायात ताका.नाटक जांव ऑर्केस्ट्रा, कलाकारान प्रॅक्टीस घेवकूच जाय. तो कलाकार मागीर कितलोय बरो आसूं. प्रॅक्टीस ही जायच. हांव जाणा तुमी वेळान वेळ काडून प्रॅक्टीसेक येता.दिसभर कोण कामांक वयता. कोण कॉलेजीक वयता आनी सांजची हांगा प्रॅक्टीस दिता. काय जाणांक सदी प्रॅक्टीस दिवंक जमना, पूण शो आसतना दर एकल्यान स्वताची प्रेक्टीस करची पडटा. कलाकारान कॉन्फीडन्स आसूंक जाय पूण ओवर कॉन्फीडन्स आसूंग फावना. साहीलाक मात्सो टायम ॲडजस्ट कर म्हण सांगात.ok than, please carry on. see you (वता)

**अनिल :** ह्या साहीलाक लागून आमका आयकोचे पडटा. कितले फावटी सांगलें तेका प्रॅक्टीस चुकोव नाका म्हण. येवनीच दाखयता ताका. पर्वा शो आसा तो जाणा तो.

**प्राची :** परवा शो बेगीन जाल्यार पुरो. चड रात जाल्यार मम्मी हुस्को करता.

**प्रजय :** बेगीन किदयाक उसरांच जाल्यार पुरो, बेगीन जाल्यार चारूय सायडीक नजर मारूंक मेळना.

**अनिल :** प्रोग्राम चालू आसतना चेडवांचेर नदर मारता ती पुरो जायना तुका... मात्सो तरी विचार कर रे, आमीं वयता थंय कला

दाखोवपाक आनी तूं स्टेजीर शो मारून आपली स्टायल दाखयता. आनी मागीर भीतर येवन म्हणता, हें चेडू आपणांक पळयतालें , तें चेडू आपणांक पळयतालें

**प्रजय** : मागीर पळयताच जाल्यार. गिटार हातान घेवन हांव शाहरूख खान कसो दिसता. वयता थंय एक तरी चेडू म्हजेर फिदा जाताच

**प्राची** : स्वताची इतकी तारीफ करूं नाका, ती चेडवां तुजेर न्हय तुजे कलेचेर फिदा जाता आसतली.

**प्रजय** : तू किदयाक जेलस जाता?

**प्राची** : हांव किदयाक जेलस जातलें?

**अनिल** : सारखे, आनी प्राचीकूय तसो कमी डिमांड ना. ताज्या दर एका पदाक टाळ्यो आनी वन्स मोर मेळटा.

**प्रजय** : मागीर आमच्या ऑर्केस्ट्राचें टॉप सिंगर तें. प्राची तू ऑर्केस्ट्रा सोड आनी स्वताचो ॲलबम काड. मागीर पळय तुका कितलो डिमांड येता तो.

**प्राची** : पुरो, चडूय चण्याच्या झाडार चडोवं नाका, देंवप कठीण जातलें!

**प्रजय** : प्राची किदेंय कर पूण स्वताचे कलेक चिड्डोंक दिवं नाका. आय मीन लग्न जातकूत सिंगींग सोडूं नाका.

**अनिल** : बट डिपेंड, ताज्या लाइफ पार्टनरान ताका ॲलाव केले जाल्यार, ना जाल्यार प्राचीचे जिवीत किचनानच वयतलें आनी ताचो आवाज आयकतली आयदना आनी दाद दितली कुकराची सीटी.

**प्राची** : जो म्हजो लाइफ पार्टनर आसतलो तो लेगीत ह्याच क्षेत्रांतलो आसू येता. मागीर म्हजी कला कशी चेंपतली.

**प्रजय** : कोण पळयला काय किदें गो?

**प्राची** : ना पूण पळयतलें

**प्रजय** : आमकांय दाखय.

**प्राची** : दाखयता, सगळयान पयली तुकाच दाखयता.

**प्रजय** : प्रोमीस (हात फुडे करता)

**प्राची** : (हातार हात दीत) प्रोमीस (साहील येता)

**साहील** : हाय ॲवरी बडी.

**अनिल :** आयलो मजनू. तूं भोवता भिरमुयो धरूंक आनी हांगा मॅनेजराक आमकां जापो दिवच्यो पडटा. आयज खयचे भिरमुटे फाटल्यान गेल्लो?

**साहील :** सद्दया तें शिल्पा आसा न्हय रें जाळयान . ताचे वांगडा डेट आसली.

**अनिल :** शिल्पा? हें शिल्पा खंयचें. फाटीं तर तुंवेन कोणा कविताची ओळख करून दिल्लीं.

**साहील :** ते कवितेक वाचली आनी वडयली.

**अनिल :** आरे पूण कविताची ओळख करून दितना तू सांगी मरे ती म्हजी भाभी म्हण.

**प्रजय :** तशो तेणे म्हाका कितल्योशोच भाभी दाखयल्या. पूण हांव जाणा दर एका म्हयन्यांक म्हजी भाभी बदलता म्हण.

**अनिल :** धीस इज नॉट फॅर, एका चेडवा कडे तू अशें करूंक शकना. ताज्या मनाचो विचार केन्नाच करू सो दिसलो ना तुका?

**साहील :** कसलें मन बीन घेवन बसला. ह्या जगान क्लायमेट बदलता, मनशाची टेस्ट बदलता, सरकार बदलता मागीर हांवेन गर्लफ्रेन्ड किदयाक बदलचें न्हय? आनी हांवेन ताजेकडे प्रामाणीक रावोंक जाय जाल्यार तेंय म्हजेकडे रावतलें म्हण किदें गॅरेंटी. ते लेगीत म्हाका सोडून दुसरेकडे धावोंक शकना? देर फोर माय फ्रेन्ड एकूच गजाल लक्षान दवरपाची, एवरीथींग इज फॅर इन लव्ह.

**प्राची :** तरी साहीलाचे नशीब बरें आसा. एक गेलें काय दुसरें मेळटा. आज काल बेगीन जाळयान अडकता कोण. जाच्या मनान आसता तो मन उकतें करपाक कळाव करता. रावपाक पाशीयस आसता तें रावता नाजाल्यार दुसऱ्याच्या फाटल्यान धांवता. ताका लागोन कोणाकडे मोग जाला जाल्यार ताका जाता तितक्या बेंगीन सांगचें. नाचपाचें आसा जाल्यार म्युझीकार भेंड हालोवचे, मागीर आपल्याक जमो वा ना जमो.तसोच कोण आवडलो जाल्यार आय लव्ह यू म्हणोन सोडपाचें, मागीर ताणी

हय म्हणू वा ना म्हणू.

**प्रजय** : आनी ताणें ना म्हटलें जाल्यार.

**प्राची** : तातूंत किदें आसा. मनाची गजाल सांगप महत्वाचें. जाच्या खातीर आपल्या मनान मोग आसता ताका कळलें काय जालें. तार्चे आनसर नशीबाचेर सोडपाचें.

**साहील** : सारखें. आनी ताणें ना म्हटलें जाल्यार ताचे खातीर रावपाचें ना. रोखडोच दुसरेकडे गळ घालपाचो.दुसऱ्याखातीर आपलो वेळ वगडोवप ना.आनी ह्या जगान जांय ती चले-चलयो आसात, एक नाजाल्यार दुसरें मेळटलें.

**अनिल** : पूण जाचेर आमीं मोग केला ते मेळोंग शकना.

**साहील** : मोग, मोग ह्या शब्दाक कांय अर्थ नासता.प्रश्न आसता फकत जोडप्याचो. पार्टनर मेळ्ळें काय जालें, मागीर तें कोणूय आसूं.

**अनिल** : म्हाका एक सांग साहील, मोग कसो जाता?

**साहील** : कसो म्हळयार, चेडवाचें तोण आवडलें काय.

**अनिल** : सोबीत रूप म्हळयार मोग? एकटयाक दुसऱ्याचें उलोवप आवडोंग शकना? प्रामाणीक पणां आवडोंग शकना.

**साहील** : हें सगळें आयुष्यभर खावपाचें आसा?

**अनिल** : म्हळयार मोग हें फकत कुडीचें आकर्षण म्हणोाया.

**साहील** : ऑफ कोर्स, जेन्ना आमीं चेडवाक घेवन भोवता तेन्ना तें कशें दिसता हें लोक पळयता.ताचें मन पळयना. बरें दिसता जाल्यार म्हणटा, वा! वॉट अ सिलेक्शन. आनी वायट दिसता जाल्यार म्हणटा, तोंडाक काय ना म्हण तोर घेवन बसला.(हांसता) मोग करचो जाल्यार गुलाबाचेर, काटयाचेर न्हय.

**अनिल** : पूण तो गुलाब केन्ना तरी बावताच. मनशाची सोबितकाय तशीच उरना.बदलत आसतना कमी जायत वयता. पूण मन केन्नाच बदलना, विचार बदलना. मनशान एकटयाकडे मोग करप, ताणी ना म्हटलें तरी ताची वाट पळोवप. जर ताचो मोग खरो आसा जाल्यार तें ताका केन्ना तरी मेळटलेंच.

**साहील** : आनी ताजें लग्न जालें जाल्यार?

**अनिल :** मोग मेल्ल्या मनशाक जितो करता. मागीर गेल्ल्या मनशाक परतो हाडपाक किदें जालां?

**साहील :** म्हळयार ताचो घोव केन्ना मरता हाची वाट पळोवची पडली.(सगळे हांसता)

**अनिल :** हांसात, जाय तितकें हासात. पूण मोगाचो खरो अर्थ तुमकां कळ-टलो तेन्ना दुकां गळयतले तुमी.

**साहील :** मागीरचें मागीर पळोवयां, आतां चल, म्हजी प्रॅक्टीस घेवया, नाजाल्यार परवा म्हाका चपलां खावची पडटली. चल प्राची.(साहील प्राचीक घेवन प्रॅक्टीस करता)

**अनिल :** ह्या साहिलाचे विचार पटपा सारखे ना.प्रजय आमच्या डिस्कशनान तुवेन आपले विचार मांडुंकना.

**प्रजय :** जो स्वता काळखान चलता तो दुसऱ्यांक वाट किदें दाखयतलो.

**अनिल :** म्हळयार

**प्रजय :** म्हाका एक सांग मोग कसो वळखोप...म्हळयार म्हाका एक चेडू आवडटा जाल्यार तें बेस्टेच आवडता काय हांव खऱ्यानीच ताच्या मोंगान आसा हें कशें वळखोप.

**अनिल :** व्हेरी सिंपल. दोळे बंद कर. ताजो चेहरो दोळया मुखार दिसता जाल्यार पळय. त्या चेहऱ्या कडे कान लाय, ताजो आवाज आयकूंक येता जाल्यार पळय.तें तुका दोळया मुखार दिसतलें तुका पळोवन हासतलें, तुजे नाव घेवन उलो मारतले. दोळे बंद करतकूच तांचो चेहरो दिश्टी पडलो आनी आवाज आयकोंग आयलो काय समज तू त्या चेडवाच्या मोगान पडला.

**प्रजय :** खरेंच, तशें जावं येता?

**अनिल :** एवरी थींग इज पॉसीबल इन लव्ह , पूण तूं किदयाक विचारता. तूं कोणाच्या मोगान पडलां?

**प्रजय :** आ, ना. अशेंच विचारलें.

**अनिल :** चल तर, प्रॅक्टीस घेवया(अनिल प्रक्टीस घेवंक वता. प्रजय कोण पळयना तसो डोळे बंद करता दोळयांमुखार दिसणाऱ्याक हासता. आवाज आयकोपाचो यत्न करता)

प्रजय : दिसलें, तें दोळया मुखार दिसलें. (प्राची प्रजयाक उलो मारता) आयलो, ताचो आवाज आयकोंग आयलो (प्राची उलो मारीत म्हऱ्यान येता)

प्राची : प्रजय, प्रजय (प्रजयाक हात लायता. प्रजय डोळे उघडटा) किदें जालें, कितलो ओगोत तुका उलो मारता हांव, किदें जालां?

प्रजय : काय... काय ना हांवे आयकूंग ना आसतलो.

प्राची : प्रजय, म्हाका दिसता तू म्हजेकडे किदें तरी लिपयता आनी अचानक किदें मेळ्ळया भाशेन इतको खोशी किदयाक जालां?

प्रजय : खऱ्यानीच आज किदें तरी मेळ्ळा म्हाका.

प्राची : किदें तें!.

प्रजय : जाप!

प्राची : जाप?

प्रजय : हय, इतकी वर्सां एक प्रस्न मनान आसलो. आयज ताची जाप म्हाका सापडली.

प्राची : तुजी भाशा म्हाका कळलीच ना. आधीच म्हाका खूप भूक लागल्या चल सगळे कॅन्टीनान गेले आमींय वचून येवया.

प्रजय : चल या(दोघांय वता. सुदेश येता. सगळीकडे नदर मारता. इतक्यान शिरी पद म्हणीत येता)

शिरी : इश प्याल को मै क्या नाम दुं. लंबा मेले लंबा लंबा. अले खंय गेले शगले, आनी हों कोण . नवो कलाकाल येयला शो दिशता. कॉमीक कलूया. यश, वॉत यू वॉन्त?

सुदेश : हॅलो सर.

शिरी : यश हॅलो, हाव दु-यु दू. आयम फायन... वोत यू वोन्त.

सुदेश : सर, आय ॲम सुदेश

शिरी : शुदेश

सुदेश : शुदेश न्हय सर सुदेश.

शिरी : कललें. किदें काम आशलें?

सुदेश : सर, हावेन ॲप्लीकेशन धाडलेलें ग्रुप जोइन्ट करपाक.

शिरी : हो मॅनेजलाक मेलोंक येयला शो दिशता... तू शुदेश.

**सुदेश** : सुदेश सर

**शिरी** : तेंच तें .तुका पदां म्हनूंक येता ?

**सुदेश** : येस सर. मीन्स आय कॅन ट्राय सर

**शिरी** : तछे जाल्यार हांव म्हनता तशे म्हनोन दाखय.इश प्यालको मै क्या नाम दू।लंबा मेले लंबा लंबा... म्हन.

**सुदेश** : इस प्यार को मै क्या नाम दू. रब्बा मेरे रब्बा रब्बा

**शिरी** : बन कल , लोंग म्हनता मले तू . शालके हाये म्हनला तछे म्हन.

**सुदेश** : खंय फसलो?

**शिरी** : किलें?

**सुदेश** : काय ना सर.

**शिरी** : म्हन तल बेगीन

**सुदेश** : इश प्याल को मै क्या नाम दू,लंबा मेले लंबा लंबा लंबा...

**शिरी** : व्हेली गुद. आतां म्हाका शांग तुका दांश कोलूंग येता.

**सुदेश** : यस सर.

**शिरी** : कलून दाखय(सुदेश नाचता) माकला बशेन उलके किदे मालता. हांव कलता तशे कल (वाकडो तिकडो नाचता. सुदेश करपाचो यत्न करता, शाणू येता)

**शाणू** : हो लुडबो ताका पिशान काडटा काय किदें. ए शिरी किदयाक रे ताका सतायता.

**शिरी** : भेलो येयलो... काय नाले शाणू. अशोच टायम पाश कली. शगले भायल गेले. हो एकटोच आसलो, म्हटलें टायम पास कलया.

**शाणू** : कान फोडटलो, लज दिसना तुका दुसऱ्याक सतोवपाक (सुदेशाकडेन वचून) तुजें नाव किदें रे?

**सुदेश** : सुदेश.

**शाणू** : अेऽऽ कान फोडटलो, म्हाका सुबेस म्हणता. हो हात काडून त्या हातीन दितलो.

**शिरी** : अले भेल्या तो आपले नांव शांगता शुदेश खंय.

**शाणू** : हांव समजलो म्हाका सुबेस म्हणता म्हण. सुदेश तू कोणांग

मेळोंग आयला.

**सुदेश** : मॅनेजराक

**शाणू** : माजराक, हांगां खयचीं माजरां.

**शिरी** : अले भेल्या तो मॅनेजलाक मेलोंग येयला.

**शाणू** : मॅनेजराक? सांग मरे मॅनेजराक म्हण.माजराक, माजराक किदें करता. मॅनेजर त्या सायडीक.

**शिरी** : शुदेश व्हदोल हावेन तुजी फकनां केल्लीं. हो प्रेक्टीश लुम. मॅनेजल त्या शायदीक आशा.

**सुदेश** : म्हळयार तूं मॅनेजर न्हय.

**शिरी** : हांव मॅनेजल, पुन दुप्लीकेट. ओलीजीनल त्या शायदीक आशा.

**सुदेश** : तरी हांव म्हणता हो मॅनेजर असो कसो जोकर कसो. (सुदेश वता)

**शिरी** : अेऽऽ म्हाका जोकल म्हनता. तुजो बापूय जोकल, यो तू, दाखयता तुका. फोत्ता धलून. कुलके, कुलके कलता तुजें.

**शाणू** : आइुता किदयाक रें?

**शिरी** : तेनी जोकल म्हतलां ते ह्या भेल्यान आयकोंग ना आसतलें...काय ना ले थँक्यू म्हनतालो तेका.

**शाणू** : किदयाक, तुका जोकर म्हटलें म्हण.

**शिरी** : आयकलें? नाका तें बलें आयकोंग येता.भेलो खंयचो.

**शाणू** : म्हाका भेरो म्हणटा. तू लुडबो तें पळय. कान फोडटलो म्हाका भेरो म्हणत जाल्यार. कामचोर खंयचो. काम करचे पडटा म्हण भितर येयला.

**शिरी** : कछलें काम लें, आ कछलें काम.

**शाणू** : बशीचो टायर कोण बदलतलो?

**शिरी** : हांव किदयाक बदलूं? हाव लेंबो बशीचो ड्रायवर आन तू हॅल्पल. हॅल्पलान तायल बदलपाचो आनी ड्रायवरान गाली चलोवपाची.

**शाणू** : बरें आसा आतां हांव बस चलोंग शिकता.

**शिरी** : काल बश चलयता म्हन दोन वलां बशलो.गाली फुलें धुकल्ली?

**शाणू** : कशी धुकलतली ती स्टार्ट जावंक नाका आशिल्ली.

**शिरी** : आले भेल्या, ती स्टार्टच आशिल्ली. पून तुका आवाज आयकोंग येवना, भेलो खयचो.

**शाणू** : कान फोडटलो धरून परत म्हाका भेरो म्हणशी जाल्यार. केन्ना केन्ना म्हज्या कानाचो पडडो बन जाता, पूण रोकडोच उघडटा तो. चड वेळ बन रावना.

**शिरी** : पूण जाय तेन्ना बन जाता, नाका तेन्ना उघडटा.

**शाणू** : किर्देय जावं पूण म्हाका भेरो म्हणप ना. म्हटलें जाल्यार कान...

**शिरी** : कयलें कयलें कान धलून फोडटलो. आपलो फुतलो तो पलयना. लोकांचे फोलुंग भोंवता. न्हय ले भेल्या, भेलो न्हय ले तू?

**शाणू** : हय आता सारखो उलयलो.

**शिरी** : पद्दो बन जालो शो दिशता (आवाज) आले हांचे किदे जालां.

**प्रजय** : आगो पूण म्हजे आयकोन तरी घे.

**प्राची** : चूप एक शब्द उलोवं नाका.

**शिरी** : किदे जालें झगली किदयाक गो.

**प्राची** : हाली चड हात उबारता हाचो. सकाळच्यान कोण मेळोंग ना म्हण ताचेर राग काडला. वयल्यान म्हजीय पर्वा ना. कितलें सांगता हांव मारू नाका. सोड, तरीय आयकना आनी तू (साहीलाची फाटीर थापट) तुका सांगले ताका आडय जाल्यार तूय आयकना.पळयता मजा आनी आपूणय मारता.

**साहील** : एकूच थापट.

**प्राची** : मारले काय ना.

**प्रजय** : पूण...

**प्राची** : तू म्हजेकडे उलोवपाची गरज ना.

**प्रजय** : आरे वा! तुका लागोन मारामारी केली, आनी परत तुजेच आयकोप.

**प्राची** : कोणी सांगले तुका मर्दी पडपाक. म्हजें हांव पळोन घेतलें आसलें.

**प्रजर** : इतके दिस किदयाक पळोन घेवंना? म्हाका खबर ना किदें तुका तें सदीत चाळयता. आयचो मार याद उरतलो तांकां. हाचे फुडें तुजी फकणां खंयची, मान वयर काडून लेगीत पळोवचेना.

प्राची : म्हजी पर्वा तुका किदयाक, सांग मरें?

प्रजय : किदयाक म्हळयार... तूं फ्रेन्ड न्हय म्हजें. म्हज्या फ्रेन्डाक कोण त्रास दिता आनी हांव वोगी रावों.

प्राची : हांव किदें तुजें एकटयाचेंच फ्रेन्ड? अनिल ओगी रावोंक ना. ताचें रगत किदयाक गरम जावंक ना?

प्रजय : किदयाक ओगी रावलो रे तू.

अनिल : तांच्यानी केल्ली चूक तुज्याय हातीन घडटा. तूं केन्ना वाटेर चेडवाची फकणां करीना.

प्रजय : बाकीच्यांचे म्हाका लागना. म्हज्या फ्रेन्डाक कोणी किदेंच म्हणपाक जायना.

अनिल : आपलें फ्रेन्ड तशेंच दुसऱ्याचें. तूं पयली दुसऱ्याच्या फ्रेन्डाक मान दिवपाक शीक, मागीर दुसरें तुज्या फ्रेन्डाक मान दितलें.

प्रजय : हांव तें कांय नकळो. हांव इतलें जाणां, जी वायट नजर प्राचीचेर पडटली ती नदर फोडून वडयतलो हांव.

प्राची : प्रजय तू...

शिरी : अे मॅनेजल येता, मॅनेजल येता.झगलेचे काय उलोवं नाकात आं. (मॅनेजर आनी सुदेश येता)

मॅनेजर : हॅलो फ्रेन्ड वॉड हॅपन्ड, ॲनी प्रोब्लेम?

साहील : नो सर.

मॅनेजर : मागीर सगळे ओगी किदयाक?

शिरी : शल ते शगले नवो आयतम तयाल करूंग शोदता. न्हय ले शाहील?

साहील : यस सर.

मॅनेजर : व्हेरी गुड, आनी तातून हाकाय घेयात. हो सुदेश तुमचो नवो इश्ट· आयच्यान ताणी आमचो ग्रुप जॉइन्ट केला. सुदेश इज व्हेरी गुड डान्सर, ॲण्ड सिंगर ऑल्सो. सुरवातीक तो डान्स जाइन्ट करतलो आनी मागीर सिंगींग, आनी तसो तो कॅसीओय वाजोंग जाणा.

अनिल : सर, तशें जाल्यार तो ऑल रावंडर जालों.

मॅनेजर : म्हाका विस्वास आसा, सुदेश आमच्या ऑर्केस्ट्रान नवे रंग भरतलो. फकत सुरवातीक तुमी ताका साथ दियात, तसो ताणी

ऑडियन्स फेस केला.

**प्राची** : सर ऑडियन्स फेस करपाची सवय आसली काय जालें. फुडें सगळें सोपें जाता.रेन्बोन रंग भरपाक ताचो हो अणभव खूप आसा.

**सुदेश** : थॅंक्स

**मॅनेजर** : सुदेश पयलीं सगळयांची ओळख करून घे. हो अनील कॅसिओ प्लेयर, हो साहील ड्रमर, हो प्रजय गितार प्लेयर, सिंगर आनी डान्सर.

**सुदेश** : म्हळयार आनीक एक ऑलरावंडर.

**मॅनेजर** : हय, आनी हें प्राची, आमच्या ऑर्केस्ट्राची गोडी.ताच्या गोड आवाजाक सगळीकडे उबारून धरलां. सुदेश, शी इज गुड डान्सर ॲण्ड सिंगर. आनी हो शिरी.

**शिरी** : हॅलो, शुदेश, शलाक शांगू नाका आ.

**मॅनेजर** : किदें?

**शिरी** : काय ना शल.

**मॅनेजर** : आनी हो शाणू, आमच्या ऑर्केस्ट्राची बस हेच हॅन्डल करता. खरें म्हळयार सगळया परस हांचेच काम महत्वाचें. कारण बस वेळार पावना जाल्यार शो जातलो कसो. (सगळे हांसता)आनी सुदेश, तशें तें ऑर्केस्ट्रा आयटमानूय शामील आसा... तूं आताच्यानूच तुजी प्रेक्टीस सुरू कर. परवाचो शो तुजो फस्ट शो आसतलो. ओके, प्राची वील यू प्लीज हॅन्डल सुदेश?

**प्राची** : यस सर!

**मॅनेजर** : थॅंक्स, बाकी सगळे मात्शें म्हज्या बरोबर रॅकोंडींग रूमान येयात.(सगळे वता)

**प्राची** : हाय(हात दिता) वेल कम टू रेनबो. सुदेश, सगळयान पयली तुका एक गजाल सांगप महत्वाचें दिसता, ती म्हळयार आमचो ऑर्केस्ट्रा गोंयान नंबर वन आसा, ताचो लेवल आमकां सकयल देंवोपाचो ना. पयलींच्यान रेनबो मळबान आसा आनी आमीं ताका मळबानूच दवरतलें. ताची उंचाय आमकां कमी करपाची ना. आनी

ताच्या रंगाकूय आमकां डाग लावपाचो ना.ह्या सगळयांक लागोन ज्या आयटमाचेर आर्मी सेटीस्फाय ना, तो आयटम आमी लोकां म्हऱ्यान व्हरना. आमच्या ग्रुपान आयज मेरेन लोकांची मनां जिकल्यां. आयच्या धावत्या जगान लोकांक काय वेळ संगीताच्या जगान व्हरप हेंच आमचें उदिष्ट.सदया आमच्या ग्रुपान पाच ग्रुप डान्स आनी दोन सोलो डान्स आसा. तूं सोलो डान्स करूं शकता, जावं ग्रुप डान्स जॉइन्ट करूं शकता, पूण ते खातीर तुका स्टेप्स शिकची पडटली. तुजो पयलो शो परवां आसल्या कारणान तुजेकडे खूप कमी वेळ आसा.यू हॅव टू मेक युवर डिसिजन क्वीक ॲण्ड परफेक्ट. सांग किदें करप आवडटलें तुका?

**सुदेश** : म्हाका ड्युयेट डान्स करपाक आवडटलो.

**प्राची** : गुड, पूण त्या खातीर तुका पार्टनर सिलेक्ट करचें पडटलें. आमच्या ग्रुप डान्सान कांय चेडवां आसा. हांव मेळयता तुका.

**सुदेश** : म्हाका तांच्यातलें कोण नाका.

**प्राची** : मागीर...

**सुदेश** : इफ यू डोन्ट मायन्ड,(प्राची ओगी) आय ॲम सॉरी. तुका इत्सा नाजाल्यार....

**प्राची** : ना, तशें काय ना, आताच आमच्या मॅनेजरान सांगलां, तू आमच्या ऑर्केस्ट्रान नवे रंग भरतलो, आनी ते भरपाक आर्मी तुका साथ दिवंक जाय. पूण हांव चित्ता तें तुवेन म्हजो डान्स आजून पळोंग ना आनी...

**सुदेश** : तुका पळोवन तुज्या पावलांचो अंदाज घेवंक शकता हांव आनी ह्या पावलांची साथ म्हाका मेळत जाल्यार एक सोबीत डान्स जातलो, जो लोकांच्या काळजान घर करून उरतलो.

**प्राची** : इतको कॉन्फीडन्स?

**सुदेश** : यस.

**प्राची** : कलेन कॉन्फीडन्स घेवन चलपी मनीस आवडटा म्हाका. लेट्स स्टार्ट. (दोघांय नाचता. नाच चालू आसतना प्रजय येता. सुदेशाक तिडकीन पळयता. ल्हव ल्हव काळोख)

## ।। आंक दुसरो।।

(प्रजय गितार वाजयता. साहील येता)

**साहील :** प्रजय, सगळे एक्सर्साईझ रूमान आसा, तूं एकटोच हांगा किदें करता?

**प्रजय :** तूं किदयाक आयला हांगा?

**साहील :** किदयाक म्हळ्यार, तुका व्हरोंग आयला. तूं एकटोच हांगा किदें करता? मॅनेजर आयल्यार तापतलो.

**प्रजय :** हांव म्हजी प्रॅक्टीस करता.

**साहील :** एक्सर्साईझ करच्या टायमार प्रॅक्टीस कसली करता? एक्सर्साईझ करीना जाल्यार करूं नाका एटलीस्ट रूमान तरी राव.

**प्रजय :** बेश्टो येवन किदें करूं?...

**साहील :** कांय करूं नाका. बस आनी सुदेशाची प्रॅक्टीस पळय.

**प्रजय :** तेंच पळोवचें पडटा म्हण हांगा रावला.तेंका सांग एक्सर्साईझ रूमान प्रॅक्टीस घेयना म्हण.काल योवन हांगासरले नियम बदलूंक सोदता तो?

**साहील :** प्रॅक्टीस खंयसरूय घेतली म्हण किदें आसा, फाल्यां तेजो पयलो शो म्हण तो नेटान तयारी करता.

**प्रजय :** पूण इतके ग्रुप डान्स आसताना ताका होच डान्स किदयाक करूं सो दिसलो, तो लेगीत प्राचीकूच घेवन.

**साहील :** तूं किदयाक बेस्टो बेजार जाता? ताका किदें करता तें करूंनी मरें. बरें जालें जाल्यार आमच्याच ऑर्केस्ट्राचें नाव वयर येतलें. ताका लागून आमीं आमचें काम करूंया, ताका ताजें काम करूंनी.

**प्रजय :** हय मरें, मागीर सध्या हांव म्हजें काम करता, तूं तुजें कर. चल हांगासरलो.(शिरी येता)

**शिरी :** अे प्लजय तुका प्लाचीन आपयला. शुदेशाक स्टेप शुचना म्हण तुका आपयला.

**प्रजय** : सुदेशाक स्टेप दाखोंग सुदेशाचो नोकर हांव?

**शिरी** : तूं म्हजेल किदयाक तापता ले. प्लाचीन शांगलां तें शांगलां तुका...माजेल तापता.

**साहील** : शिरी, चल या आमीं. ताका रावोंनी हांगा एकटयाक. सुदेशाचो डान्स पळोचो पडटा म्हण येयना तो.

**शिरी** : डायलेक्ट शांग मलें, प्लाची तेज्या वांगडा नाचता तें पलोंग जायना म्हण.

**प्रजय** : किदें?

**शिरी** : काय नां, शाहील, चल या आंमी प्लेक्टीश पलोवया. शुदेश काय बलो नाचता न्हय? (प्रजय रागान पळयता) बेगीन चल, ताचो प्लेचल वांल्लो (वता)

**प्रजय** : हो सुदेश स्वताक स्मार्ट समजता काय किदें. ह्या ऑर्केस्ट्राचो हिरो जावपाचो आसा दिसता ताका. आनी हें सगळें ताकाच चाट्टा. तें प्राची लेगीत...ना प्राची ताका बेश्टे साथ दिता आसतलें... हांव जाणां प्राची ऑर्केस्ट्राचें चित्ता, सुदेशाचें ताका पडलेंलें ना...पूण तरीय प्राची तयार जालें जाल्यार? ना हांव तशें जावंकूच दिवचो ना... म्हजें सपन अर्धवट उरचेंना... म्हाका बेगीन प्राचीक सगळें सांगून वडोंग जाय (प्राची येता)

**प्राची** : प्रजय, तुका आपयल्लो मरें हांवेन, नवें स्टेप्स सुचनासले म्हणोन तुजो हेल्प जाय आशिल्लो. मागीर सुदेशान स्वताच तयार केले... बरो हुशार आसा तो.

**प्रजय** : एकाच दिसान तूं इतकें वळखलें ताका?

**प्राची** : एका कलाकाराकडे दुसऱ्या कलाकाराक जाणून घेवपाची जादू आसता.

**प्रजय** : तशें जाल्यार तुका दुसऱ्याच्या मनाची गजाल रोखडी कळटा आसतली.

**प्राची** : मनाची गजाल? ना रे बाबा, तें वळखुपाक खूप कठीन, कोणाच्या मनांत कोणा बद्दल किदें आसा हें कोणूच वळखूं शकना.

**प्रजय** : म्हणून तूं काल म्हणी दिसता की मनशान मनाची गजाल सांगून

वडोवपाची, उत्तराची अपेक्षा करची न्हय, तें नशिबाचेर सोडचें.

**प्राची** : रायट!

**प्रजय** : प्राची हांव तुका एक प्रश्न विचारता. समज एकटयाचे फ्रेन्डशीपेचें रूपांतर मोगान करूंक जाय जाल्यार ताणें ही गजाल एक्सपोज करपाची काय ना?

**प्राची** : फ्रेन्ड आनी मोगी ह्या दोन शब्दांनी खूप फरक आसा. फ्रेन्ड जेचेर आमी खूप विश्वास दवरता आनी मोगी जेचेर आमी विश्वासूय दवरता आनी ताका काळजानूय दवरता. मोगी एक फ्रेन्ड जावं शकता पूण फ्रेन्ड मोगी जातलेंच अशें ना. फ्रेन्ड ज़िवीतान बरोबर आसताच असो ना पूण जितको वेळ तो वांगडा घालयता तो वेळ आयुष्यभर मनाचे डायरेन उरता.

**प्रजय** : म्हणजे एक फ्रेन्ड फ्रेन्डच जावं शकता? मोगी जावं शकना?

**प्राची** : दर एकल्याक दिसता तशें

**प्रजय** : तुका किदें दिसतां?

**प्राची** : म्हाका दिसता फ्रेन्डान फ्रेन्डच रांवचें, मोगी जावपाचो प्रयत्न करचो न्हय, कारण फ्रेन्डाक आमीं मोगी मानूंक लागले जाल्यार फ्रेन्ड या शब्दाचें अस्तित्व काबार जातलें. फ्रेन्ड आनी मोगी हातून फरक उरचोना. ताका लागोन फ्रेन्डाक फ्रेन्डच रावोनी. स्वताची पायरी सामाळूंक जाय. तुका किदें दिसता?

**प्रजय** : दोळयां मुखार काळोख दिसता(बसता)

**प्राची** : किदें? (ल्हव ल्हव काळोख जाता)

(साहिल शाणूक ड्रम वाजोन दाखयता. प्रजयाच्या हातान गितार, अनिल कॅसिओचेर, शिरी येता)

**शिरी** : अेऽऽ शाहिल किदें कलता लें?

**साहिल** : शाणूक नवे बिट्स वाजोवन दाखयता.

**शिरी** : वाजोन दाखोवपाक तुका भेरोच मेलो? शाणू, शाहिलान वाजेल्लें आवदलें?

**शाणू** : आवडपाक आजून वाजोन दाखयला खंय?

**शिरी** : जालें मलें, इतलो वोगोत तुवेन घालयलो पून ह्या भेल्यान कांयच आयकूंक ना. तेच्या कानाचो पडदो बन जाला सो दिशता.

**सहिल** : तेचे सोडून दी. तूं खंय आसलो इतको वगोत.

**शिरी** : मॅनेजलान बश घेवन म्हापशां धादललो. वातेक पलवली व्हल्लो ॲक्शीडेन्त जाला. जाणा, एकलो ऑन द श्पोत मेलो.(शाणू हासता)आले भेल्या हांव मलनाची गजाल शांगता अनी तू हाशता?

**शाणू** : मरणाची गजाल, म्हाका दिसलें तुवेन जोक सांगलो म्हण.

**शिरी** : त्या ॲक्सिडेन्टान हो भेलो मेल्लो जाल्यार आमी शुटलेले.

**शाणू** : किदे म्हटलें रें?

**शिर** : कांय ना. नाका तें बलें आयकूंग येता तुका..अे...अनिल, कालचो शो बलो जालो न्हय लें... किदेंय शांग पून काल जो दान्श जालो तशो केन्ना जावंक ना. किदें दान्श केलो ले शुदेशान आनी प्लाचीन.

**अनिल** : दोन दिसान इतको सुंदर डान्स बसोप फकाणां न्हय. त्या डान्सान दोघांयनीय खूप मेहनत घेतलेली.डान्साचो कॉन्सेप्ट लेगीत बरो आशिल्लो. ह्या पध्दतीचो डान्स आमच्या ऑर्केस्ट्रान नासलोच. सुदेशान आमच्या ऑर्केस्ट्राक नवें वळण दिलें म्हणूं येता.

**प्रजय** : किदयाक, म्हणजे इतके दिस वायट वळण आशिल्लें. रेन्बो ऑर्केस्ट्रा गोंयान नंबर वन आशिल्लो आनी आयजूय आसा.सुदेशान येवन ताका नंबर वन करूंकना.

**अनिल** : हांवेन तशें खंय म्हटलां. म्हाका इतकेंच दिसता की सुदेशान आमच्या ऑर्केस्ट्रान नवो रंग भरला.

**प्रजय** : इतकीं वर्सां मेहनत करून जो रंग आमीं रेन्बोन तयार केला त्या रंगान नवो रंग शामील जालो म्हण आमचो रंग बदलचोना. रेन्बोक मळबान आमीं व्हरोन दवरला, सुदेशान न्हय.

**अनिल** : प्रजय, सक्सेस मेळ्ळेंच म्हण जायना , तें टिकोन दवरपाक जाय. लोकांची आवड बदलत आसता, लोकांची आवड लक्षान घेवन आमकांय बदलचें पडटा. सुदेशान जो डान्स बसयला तो लोकांच्या मनांत घर करून गेलो हांतून मात लेगीत दुबाव ना.

**प्रजय** : आनी आमचो पर्फोमन्स कांयच ना? आमची मेहनत फुकट?

**अनिल** : प्रजय, हांव एकाच डान्सा विशी उलयता.

**प्रजय** : पूण चडूच उलयतां. म्हज्या म्हऱ्यान त्या डान्साविशी आनींक केन्नाच उलोवं नाका, आनी सुदेशाची तोखणांयं लेगीत करूं नाका. सांगून दवरता तुका.

**साहिल** : कम ऑन प्रजय, किदयाक तुमीं वाद वाडयतां, आरे आमीं ऑर्केस्ट्राचो विचार करूंया. हांगा पर्सनली कांयच घेवं नाकात.

**प्रजय** : पर्सनली घेवं नाका, आरे तो काल आयिल्लो बकरो प्राचीक घेवन डान्स करता तो दिसोंग ना तुका?

**साहिल** : जाल्यार किदें जालें?

**प्रजय** : जाल्यार किदें जालें? तूं जाणां प्राचीक कोणी वायट नजरेन पळयल्लें आवडना म्हाका. आनी हो डान्साचें निमित्त करून ताजो हात हातान धरता म्हणजे किदें?

**साहिल** : इट्स पार्ट ऑफ डान्स.

**प्रजय** : फोडटलो, पार्ट ऑफ डान्स म्हणशीत जाल्यार. भुरगेपणासावन प्राचीक हांव फुलाभाशेन सामाळीत आयला. केन्नाच खंयच्या चेडयाची नदर जांव सावली ताचेर पडोंग दिवना. आनी हो...

**साहिल** : किदें घेवन बसला. आनी समज फाल्या तीं एक मेकाच्या मोगान पडलीं जाल्यार...?

**प्रजय** : (साहिलाचो गळो धरता) अेऽऽ तशें केन्नाच जावचें ना. प्राची कोणाच्याच मोगान पडोंक शकना. तें आनी कोणाचें जावंकूच शकना. तें म्हजें, हांव भुरगेपणासावन तेजो मोग करीत आयला, म्हजेबग़र तें कोणाचेंच जावंक शकना. आय लव्ह प्राची. डू यू अंडस्टेंड. आय लव्ह प्राची. (सगळे शांत रावता. प्रजय भानार येवन हात सोडटा)

**शिरी** : खलो चोल शापल्लो.

**अनिल** : आरे वा! चोरी चोरी प्यार कर बैठा और हमें कुछ बताया भी नहीं? तरी म्हणता हो सुदेशाचेर इतको रागार किदयाक...

**साहिल** : म्हाका पयलीच डावट मारलेलो. कारण, सुदेश आयिल्याक प्रजयान खूप बदल दिसतालो. स्वभावान एक चीड निर्माण जाल्ली

ताज्या. पूण प्रजय, एकाच गजालीचें अजाब दिसता. भायर इतकी चेडवां आसतना तूं आमच्याच ग्रुपांतल्या चेडवाच्या मोगान पडलो. तें लेगीत तें चेडूं जें भुरगेंपणासावन तुज्या वांगडा खेळलां... सचमूच मान गये तेरे दिल को.

**शिरी** : मागील तुज्या भशेन दिशाक धा घलान जेंव म्हनता तेका. तेचें मन एकटया कडे आशलें आनी एकटया कडेच आशा.

**अनिल** : आरे पूण जाचे कडे आसा ताका खबर तरी आसा?

**शिरी** : तेंय खलें, प्लजय तूं भियों नाका, हांव शांगता प्लाचीक.

**प्रजय** : नाका.

**साहिल** : नाका? नाका किदयाक, सांगल्या बगर ताका कळटलें कशें?

**प्रजय** : जेंन्ना कळोंग जाय तेन्ना कळटलें, सांगपाची किदें गरज आसा. कांय गजाली सांगी नासताना दुसरो समजो शकता.

**साहिल** : हो डायलॉग पिक्चरान सोबता, खऱ्या जिवितान न्हय. मनाची गजाल दुसऱ्याक कळोंग जाय जाल्यार तोंड उगडचेंच पडटा. आनी तुका भंय कसलो. प्राची तुका भुरगेंपणासावन वळखता. त्या खातीर तूं ताका डायरेक्ट सांगूंक शकता.

**प्रजय** : भुरगेंपणासावन वळखता म्हण तर भंय दिसता, ताणें म्हजेविशीं तशें केन्ना चितूंक ना आसत जाल्यार?

**साहिल** : मोग करच्या पयलीं कोण कोंणाविशी तशें चित्ता? एकान उतर घातलें दुसऱ्यान हय म्हटलें की जालें... तू सांगून तरी पळय.

**प्राजय** : हांवेन ताका सांगलें आनी ताणें ना म्हटलें, जावं जाप दिवच्या पयलीं ते म्हजेर रागार जालें जाल्यार?.. ना हांव स्वता म्हज्या इश्टागतीची बुन्याद कशी हालोवं?.. आमच्या मदल्या विश्वासाक कसो मोडूं... ताच्या काळजांत जागो मेळोवपाखातीर ताज्या काळजाचें कुडके कशे करूं? ना, म्हज्यान हें जावचेंना.

**शिरी** : तछें जाल्यार तूं अशोच उलतलो हातीन हाल घेवन. मंगलशूत्ल भलतोच घालतलो. (प्राची आनी सुदेश येता)

**प्राची** : हाय एवरीबडी. आरे वा! आयज सगळे बेगीन शे आयले?

**प्रजय** : सगळे आपापल्या वेळार आयल्या. तूच तुजो टायम विसरलां.

**सुदेश** : प्रजय, कालचो तुजो पर्फोमन्स म्हाका आवडलो. तुजे कलेन लोकांची मनां ओडून घेवपाची जादू आसा.

**प्रजय** : तुवेन म्हजी तोखणांय केली म्हण हांवूय तुजी तोखणांय करतलो अशी आस्त बाळगूं नाका.

**सुदेश** : हावेन ताका लागून तुजी तोखणांय करूंक ना, हांव जाणां म्हाका तुजेकडे पावपाक आनींग खूप वर्सां काडूंक जाय. सद्या हांव फकत उदकाचो थेंबो आसा.

**प्रजय** : म्हणून सांगता दर्यान मिसळपाचो यत्न करूं नाका . तुजें अस्तित्व दिश्टी पडचें ना. प्राची, येता तूं? आमीं कॅन्टिनान वयता.

**प्राची** : ना, तुमीं चलात... ॲक्चुअली, सुदेश म्हाका रस्त्यार मेळळो, तो म्हणू लागलो वाटेर पिझ्झा खावंया, म्हण पिझ्झा खावपाक बसलीं. म्हजें पोट भरलां, तुमीं वचून येयात, हांव रावता तुमकां.

**शिरी** : शुदेश तुजें पोट भरोंग ना जाल्यार यो...(प्रजय रागान पळयतां) ना ना तू लाव, प्लाचीक वाज येतलो...चला लें या आमीं (सगळे वता)

**प्राची** : प्रजय, आय ॲम सॉरी.

**प्रजय** : सॉरी कितलो सादो शब्द न्हय?

**प्राची** : हांवेन येयना म्हटलें म्हण राग येयलो तुका?

**प्रजय** : नां . हरशीं म्हण हालीं तुजो टेस्ट बदलला. (प्रजय वता)

**सुदेश** : प्राची, हांगा आयिल्ल्याक हांव पळयता प्रजय म्हजेर बेजार आसा अशें दिसता. ताका म्हजें हांगा येवप आवडोंग ना. सगळे म्हजेकडे बरें उलयतां, पूण तो एकटोच विषारी शब्दांचे प्रयोग करता. हांव तेका कितको मान दिता तरी तो म्हजेकडे असो किदयाक वागता तें कळना.

**प्राची** : ना सुदेश, चुकता तूं, प्रजय बरो भुरगो, ताका दुसऱ्याविशी खुप आपुलकी आसा. आं ...हें खरें की हालीं तो मात्सो चिडचिडो दिसता, पूण ताजें कारण वेगळें आसतलें. एक एकदा मनां सारखें जायना जाल्यार बेजार आसता तो. मना सारखो सुर मेळना

जाल्यार खुपदा चाळवताना पळयला ताका हांवें. सध्या तो नव्या सुराच्या शोधान आसूं येता.

**सुदेश** : सांगूक जायना कसल्या शोधान आसा... प्राची, तुका राग येवचोना जाल्यार एक प्रश्न विचारूं? (मानेन हयकार) तुजें आनी प्रजयाचें किदें आसा? आय मीन ...यु लव्ह इच अदर?

**प्राची** : (हासता) नो,तशें लव्ह ह्या विशयाचेर आमचें डिस्कशन खुपदां जालां,पूण आमच्या मदीं तसलें काय ना.एक मात सांगूंक शकता प्रजय इज माय गुड फ्रेन्ड. भुरगेंपणांसावन आमीं एकमेकांक वळखता. आमच्या इश्टागतीचें रोपटें आमीं तेन्नाच रोयलें. आज तें रोपटें खूप वाढलां. आयज म्हज्या लागीं कोण आसा जाल्यार त्याच झाडाची सावळी. प्रजयाक म्हाका कोणीं किदें म्हटलेलें आवडना. म्हाका कोणी पळेल्लें आवडना, आनी कोणी म्हजी फकाणां केलीं जाल्यार सांगूच नाका, सोमतें तेजें रगत भायर काडटा. अशें किदें जालें जाल्यार हांव सोमतेंच ताका तापोन काडटा, उलयनासतना रावता, कारण म्हाका प्रजयाचें हात रक्तान भरिल्लें नाका. तो एक कलाकार, ताज्या मुठीन तिडक न्हय गिटार आसचें, तोंणान गाळयो न्हय स्वर आसचे. आपले कलेन तार्णे लोकांच्या काळजांक हात घालचो... खरें सांगू सुदेश, म्हज्या घराकडे म्हाका इतको मोग मेळोंकना जितको प्रजयाकडल्यान मेळला.घरच्यांचो विरोध आसतय हाव ऑर्केस्ट्रान काम करता तें फक्त संगीताचे गोडयेक लागून न्हय तर आमचे फ्रेन्डशिपेक लागून... दर वेळा प्रजयान म्हाका जगपाची वाट दाखयल्या. म्हजी दुखां गळत जाल्यार तीं तो हातार धरून म्हणता... 'पळय तुजें दुख हांवेन घेतलें, आता हांस'... खऱ्यानीच जगप कशें ते प्रजया कडल्यान शिकचें. आय ॲम प्रावड ऑफ अवर फ्रेन्डशिप.

**सुदेश** : सो... तुमच्या मदीं तसलें काय ना?

**प्राची** : ना. हम दोस्त हैं और बहुत अच्छे दोस्त हैं। नाव क्लोज धीस टॉपिक ॲन्ड कम टू दी पोइंट. आयज तुका तुजें पयलें पद तयार

करूंक जाय.

**सुदेश** : पूण खंयचें पद घेवं तेंच कळना. कितलेंय जाल्यार हें पद म्हज्या करियराचें पयलें पद आसतलें. प्राची तूं म्हाका सिलेक्शनाक मदत कर. सांग खयचें पद घेवं?

**प्राची** : खंयचेंय घें, पूण त्या गीताचें शब्द तुज्या ओठांतल्यान लोकांच्या काळजान साठोन उरोंक जाय.

**सुदेश** : तशें जाल्यार तें पद तितकेंच सुंदर आसूंक जाय... प्राची, तुजें तें फेवरेट पद सांग जें तूं भुरगेंपणांसावन गुणगुणत आयलां. जें पद तुज्या मनात साठोन आसा तेंच म्हजें पयलें पद आसतलें, आनी तेंच हांव लोकांच्या मनांत साठोन दवरतलो.

**प्राची** : बरें, हांव सुरवात करता तूय म्हण (प्राची सुरवात करता. सुदेश साथ दिता. प्रजय धावत येता, पद थांबयता)

**प्रजय** : तुका कोणी अधिकार दिलो हें पद म्हणपाक?

**सुदेश** : किदयाक, हें पद म्हज्या ओठार येवंक शकना?

**प्रजय** : ना

**सुदेश** : किदयाक?

**प्रजय** : कारण तें पद म्हजें.

**सुदेश** : तुजें?

**प्रजय** : हय, म्हजें सगळयान आवडतें पद हें.

**सुदेश** : आसत, पूण आता तें म्हाकाय तितकेंच आवडोंग लागलां.

**प्रजय** : हें पद म्हज्या बगर कोणाकूच आवडोंक शकना. भुरग्यापणासावन तें हांवेन म्हज्या काळजान दवरलां. ताच्या दर एका शब्दानी म्हजे जिवीत फुलयलां. ताचे चालीचेर हांव जगत आयला सुरांचेर स्वप्नां रंगयत आयला, हें पद फकत म्हजें.

**सुदेश** : सोबीत पद जाच्या ओठार येता तें तेजें जाता अशें ना. आयज तें म्हज्या ओठार आयलां.. म्हणजे हांव ताका म्हजें म्हणूं शकना. मानता की इतक्या पदांमदीं तुवेन ताकाच पसंद केलां, पूण आयज हांवेंय ताका मात्सो मोग दिवपाचो यत्न केला.

**प्रजय** : तुज्या मोगाची गरज ना ताका, ताका मोग दिवंक जाय तितको

हांव दितलो. हाच्या फुडें तुजी नदर लेगीत ताचेर पडोंग जायना. आनी जर...

**प्राची** : कम ऑन प्रजय, किदें पिशेपणां करता. हें पद तुजें कशें जावं येता? हें पद बरयणारो वेगळो, चाल दिवपी वेगळो , आयज हें पद कोणूय खंयसरूय गुणगुणों शकता, गावं शकता, तूं हें पद आपलें अशें म्हणतां, जशें हें पद न्हय तर लवर तुजें ... प्रजय, वॉट हॅपन्ड टू यू? आर यू ऑल रायट? हांलीं तूं म्हाका खूप डिस्टर्ब दिसता. इतको डिस्टर्ब हांवेंन केन्नाच तुका पळोंग ना. प्रजय, आयजमेरेन तुवेंन म्हजेकडे खयचींच गजाल लिपोंग ना . खरें सांग किदें जालां?

**प्रजय** : कांय ना... आय ॲम सॉरी.

**प्राची** : सॉरी, कितलो साधो शब्द न्हय (हासता) राग आयलो? तुजो डायलॉग तुकाच मारलो म्हण.

**प्रजय** : ना.

**प्राची** : व्हेरी गुड, नांव चेंज युवर मुड. म्हाका पयलींचो हासरो प्रजय पळोंग जाय. आरे तुका पळोन हांव हासपाक शिकला आनी आयज तूच...कम ऑन स्मायल (प्रजय हासता) देट्स लायक अ गुड बॉय (शिरी येता)

**शिरी** : प्लजय खंय लें तू अलदोच बतातवलो खावन येयलो... ए शुदेश तुजें पद आयकोंक येतालें. तुजो आवाज बलो आं गोद... (प्रजय रागान पळयता) आमत... तिकत, आशलो बतातवलो(मॅनेजर येता).

**मॅनेजर** : आरे तुमी आजून डान्साची प्रॅक्टीस सुरू करूंकना?

**प्रजय** : करता सर...

**मॅनेजर** : आनी सुदेश तुका तुजें पद सापडलें.

**सुदेश** : हय सर एक सोबीत पद म्हाका मेंळळां, पूण ताका आपणांवच्या पयलीं हांव आनीक एकदा विचार करूंक सोदता.(प्रजय सुदेश एकमेकांक पळयतां)

**मॅनेजर** : बरें आसा बट डोन्ट टेक मच टायम, जाय जाल्यार प्रजयाची मदत घे.

**सुदेश** : सर होच तर प्रॉब्लेम आसा. जें पद ताच्या ओठार आसा तेच पद म्हाकाय आवडता.

**मॅनेजर** : तशें जाल्यार दोघूय बसोन डिसायड करात हें पद कोंणाचें जातलें तें. बट डोन्ट व्हेस्ट टायम, उशीर जायत जाल्यार तें पद भलत्याचें जावंक आसा(हांसता) नाव कम ऑन, फस्ट टेक युवर डान्स प्रॅक्टीस. बाकीचें खंय गेंले (सगळे येता) चला डान्स घेयात.

(ग्रुप डान्स चालू. शेवटाक प्रजय सुदेशाक वडयता, ल्हव ल्हव काळोख)

(उजवाड जाता शिरी आनी शाणू झगडत येता)

**शिरी** : अे भेल्या, चड उलोवं नाका शांगता तुका. म्हाका वलकोन नकलो तू.

**शाणू** : आनी तूंय म्हाका वळखोन नकळो. शाणू म्हणता म्हाका शाणू.

**शिरी** : कोन शाणू म्हणता. शगले भेलोच म्हणता.

**शाणू** : अे लुडब्या चड करशीत जाल्यार कान फोडटलो

**शिरी** : हांवूय तुजो फोडपाचो पूण तुजो आदीच फुतला.

**शाणू** : शिरी, एका कलाकाराचो इन्सल्ट करता तूं.

**शिरी** : तूं कशलो कलाकाल. किदें जाना तूं? म्हज्या भशेन पदां म्हणोंग जाणां

**शाणू** : तूं आनी पदां म्हणतां.तू पदां म्हटल्यार वाटेवयले लोक हांसता.

**शिरी** : ओगीच हांसना ते. हांव शदाच कॉमेडी पदां म्हणटा म्हन हाशता ते. तूं किदें जाणा तें शांग.

**शाणू** : हांव ड्रम वाजोंग जाणा

**शिरी** : पयलीं नलकाशुलाच्या फुल्यान फुतको डबो वाजय.(साहिल आनी प्रजय येता)

**साहील** : हेंची सदीच झगडीं. शिरी सदी झगडटा किदयाक रे तुमीं?

**शिरी** : हांव खंय झगलता, तोच झगलता.

**साहिल** : अे शाणू, तू सदीच शिरीच्या तोंडाक किदयाक लागता.

**शाणू** : अे साहिल पोलो फोडतोलो, हांव सदींच न्हावन येता.

शिरी : पयलें मले ह्या खातीलूच आमची झगली जाता. तेका एक शांगल्यार तो दुशलेंच आयकता.

साहिल : तेंजें सोड, आयज सुदेशाची खबर घेतल्या? कसो आसा तेजो पांय?

शिरी : बलो आशा, आज येतलो म्हनतालो

प्रजय : आयज येतलो? इतक्या बेगीन.

साहिल : चड खंय लागलां ताका. मात्सो पांय परतला. ह्या फ्लोरार स्लीप जाला आसतलो.

शिरी : कोनांग खबर जालो काय केलो.

प्रजय : किदें?

शिरी : काय ना ले. बाबलो येवन फायदो किलें. पलवांचो प्लोगलाम काय कलूंग पावचोना. पायान जायना न्हय ले. दान्श कशो कलतलो. मॅनेजलान शांगलां ताका लेस्ट घे म्हणोन.

प्रजय : रेस्ट घे सांगलां जाल्यार येता किदयाक? रेस्ट घेवपाक कळना.

शिरी : तेका याद येता आशतली.

प्रजय : कोणाची?

शिरी : प्ला... तुजी, म्हजी, शगल्यांची.

शाणू : अे म्हाका मात कांयच कळोंग ना. हांव नाचत रावलो, तुमी म्युझिकुय स्टोप करूंक ना.

शिरी : आले भेल्या, म्युझिक तेन्नाच स्टॉप जाल्लें. पून तुजो कान बंद जाल्लो, शगले शुदेशाक धलता जाल्यार तू एकटोच शायडीक नाच कलतालो. अशें दिशलें शुदेशाक शोदचे आनी तुज्या कानाल मालचें.

शाणू : थॅक्यू...थॅक्यू.

शिरी : भेल्यान किदें आयकलें कोनांग खबल(सुदेश येता)

साहिल : आरे सुदेश, वॅलकम बॅक. केन्ना आयलो?

सुदेश : जालीं धा मिनटां. भायर प्राची मेळळें. ताचेकडे धा मिनटां घालयलीं... आनी कशें आसा तुमीं सगळे?

शाणू : हय सकाळी चा पिले.

शिरी : आता पलत पिवोन यो. भेलो खंयचो.. शुदेश, आता पांय कसो आसा तुजो?

सुदेश : देवाचे कृपेन आसा बरो. नाजाल्यार डान्स कायमचो सोडचो पडटलो आसलो, जें हांव सपनांन लेगीक चितूंग शकना.

साहिल : पूण म्हाका एक कळनां तूं पडलो कसो. या फ्लोरार कोणूच केन्ना स्लीप जावंक ना.

सुदेश : म्हाका आजून डान्साची सारखी ओळख जावंक ना न्हय म्हणून...अरे हांव विसरलो. अनिलान तुमकां एक्सरसाईझ रूमान आपयलां...मॅनेजरान एक नवी एक्सरसाईझ दिला म्हणटालो.

शिरी : शुदेश, पूण तूं हांगाच लांव आ, पलत पांय मोल्लो जाल्यार तुका हॉस्पिटलान व्हरपाक म्हाका टायम ना. चल ले या.(सगळे वता)

सुदेश : प्रजय तुका आपोंग ना. प्रजय, तूं म्हजे खबरीक येवंकना, आनी म्हाका कसो आसा लेगीत विचारूंक ना... हांव चलोंग लागलो हें पळोन अजाप जाला आसतलें न्हय?

प्रजय : म्हणजे?

सुदेश : हें तुका आनी म्हाकाच खबर आसा कि त्या दिसा हांव स्लीप जावंकना, तर तुवेंन मुद्दाम म्हजेर खोट मारल्या.

प्रजय : किदयावेल्यान म्हणता तूं मुद्दाम. घडये बसल्या आसतली.

सुदेश : ना, तुजी खोट म्हजेर बसोंग शकना, कारण तुज्या आनी म्हज्या एँगलान खूप गॅप आसलें. आनी स्टेप तूय विसरोंग शकना आनी हांवूय.मागीर आमच्यान एक्सीडेन्ट जातलो कसो.

प्रजय : मुद्दाम आपटपाक म्हजी तुजेकडे किदें दुस्मानकाय आसा.

सुदेश : सांगपाक जायना.

प्रजय : हांवेन मुद्दाम मारलां अशें तुका दिसता जाल्यार ही गजाल तुवेंन मॅनेजराच्या कानार किदयाक घालूंकना? वगी किदयाक रावलो. नाजाल्यार आताच वच आनी सांग.

सुदेश : सांगतलो आसलो पूण तशें केलें जाल्यार म्हाका म्हजी जाप

मेळचीना.

**प्रजय** : कसली जाप?

**सुदेश** : प्रजय, हांगा येवच्या पयलीं म्हज्या दोळया मुखार जाय तीं सपनां आशिल्लीं. रेन्बो गोंयान नंबर वन आसा, हांव ताका भारतान नंबर वन करूंक सोदी, रेन्बोन आयज मेरेन लोकांचें मनोरंजन केलां. हांव मनोरंजनाच्या बरोबरच रेन्बोचें नांव दर एकल्याच्या काऴजान बरोवपाक सोदी. आयज मेरेन तुमीं फुलां फुलयल्यां. जाल्यार हांव त्या फुलान सुगंध घालूंक सोदी. तुमी मळब तयार केलां जाल्यार हांव त्या मळबान नक्षत्रां घालूंक सोदी. हें सगळें करपाक हांवेन म्हजे वाटेन यत्न केलो. रेन्बोन स्वताचो रंग सामील केलो.रेन्बोक नवो रंग मेळ्ळो. सगळयांनी तेची तोखणांय केली, पूण त्या रंगाचेर म्हाका अभिमन येवंचो सोडून तिडकूच येयली. कारण म्हाका दर वेळार दिसतालें कि अजून म्हज्यान किदें तरी कमी आसा.आनी अशें दिसपाक कारणीभूत आसली तुजी नदर. तुजे नदरेन म्हजे कलेच्या सोबीत कायेक जागोच नासलो.म्हजे कलेची तुका केन्नाच तोखणांय करूं शी दिसली ना. आनी तुज्या असलो अणभवी कलाकार म्हजी तोखणांय करीना हें पळोन म्हाका दिसतालें कि हांव खंय तरी कमी पडटा. पूण ना, दोश म्हज्यान न्हय तुजे नदरेन आसलो.

**प्रजय** : किदें सांगपाचे आसा ते डायरेक्ट सांग, पयसून फातर मारूं नाका.

**सुदेश** : आयज सगळयो गजाली तुजेकडेन डायरेक्ट उलोंक जाय म्हण तर खोंटे कारण सांगून सगळयांक भायर धाडल्या.

**प्रजय** : इतकी प्लेनींग केल्या जाल्यार कन्टीन्यू कर तुजें रामायण. पळोया कसलो संशय आसा मनान तुज्या.

**सुदेश** : संशयाचे ढग कोणाच्या मनान आसा तें कळटलें. तूण ताच्या आदीं म्हाका कांय प्रश्नांच्यो जापो दी, तूं म्हजेकडे निगेटिव्ह किदयाक वागता? सगळयांची वागणूक म्हजेकडे बरी आसा. पूण तूं एकटोच म्हजेकडें कुस्केपणां करता. किदयाक, म्हज्या दर एका पावलाचेर तुजी म्हज्याविशी जेलसी दिसपाक कारण किदें?

प्रजय : बिकॉज आय हेट यू.

सुदेश : थँक्स, स्पश्ट सांगलें म्हण. नाव टेल मी द रिजन. व्हाय यू हेट मी?

प्रजय : तुवेन कारण जाणून घेवपाचो यत्न केन्ना करूंक ना?

सुदेश : केला, पूण घडये म्हजो अंदाज चुकों शकता. आनी तुजी तिडक तुवेन उक्ती करून दाखयल्याच. मागीर ताचें कारणूय उक्तें करपाक किदें आसा.

प्रजय : बरें आसा, मागीर आयक. हांगा आयिल्याक तुवेन म्हजे दर गजालीचेर दोळो दवरला. म्हज्यांक म्हज्यापासून पैस वेलां. तांका हुमटून वडयलां.

सुदेश : हुमटून वडयलां? कोणाक? आनी किदें तुज्यापासून पैस गेलें?

प्रजय : म्हज्या सपनांतलें संगीत. म्हजे कल्पनेंतलो डान्स. म्हजे यादींतलें गीत आनी...

सुदेश : आनी?

प्रजय : आनी म्हज्या काळजांतलें प्राची.

सुदेश : प्राचीक हांवें तुज्या पासून पैस व्हेलें? तें कशें जावं येता. तुमची इश्टागतीची बुन्याद कितली घट्ट आसा ती जाणाच हांव. जगातली खंयचीच ताकत तुमकां पैस करूंक शकना.

प्रजय : आसा, एक ताकत आसा. आनी ते ताकतीचें नांव आसा सुदेश.

सुदेश : प्रजय तूं बेश्टो म्हज्याविशी गैरसमज करून घेता, आरे आमीं सगळे ग्रुप पार्टनर...

प्रजय : हय ग्रुप पार्टनर, पूण प्राचीविशीं तुज्या मनान लायफ पार्टनराचें सपन आसा. पूण तुजें हें सपन केन्नाच पुरें जावचें ना, कारण आमच्या इश्टागतीची बुन्याद जितकी घट्ट आसा तितकीच हांव आमच्या मोगाची बुन्याद घट्ट करतलो.

सुदेश : मोगाची? म्हळयार?

प्रजय : प्राची इज माय फ्रेन्ड. शी इज माय गुड फ्रेन्ड ... व्हेरी क्लोज फ्रेन्ड बट ॲक्चुअली...ॲक्चुअली आय लव्ह प्राची.

सुदेश : वॉट?

**प्रजय** : येस. हांव प्राचीचेर मोग करतां

**सुदेश** : आनी प्राची? (प्रजय वगी) प्रजय, आय यम आस्कींग यू समथींग...ॲन्ड प्राची?(सुदेश हांसता) वन सायडेड लव्ह आयकल्लो, पळोंग नासलो, आयज पळयलो.

**प्रजय** : तुका इतकें हासोंग किदयाक आयलें? म्हजो मोग आज ना फाल्यां बोथ सायडेड जातलो. आयज ना फाल्यों प्राचीच्या म्हऱ्यान हांव मन उक्तें करतलों.

**सुदेश** : करतलो रे, कोणी ना म्हटलां. तूं आनी धा वर्सांनी मन उक्तें करीत. पूण प्राची इतको वेळ रावोंक नाका. तेच्या आदी तेंच कोणांक....

**प्रजय** : ना, तशें केन्नाच जावचें ना.

**सुदेश** : किदयाक जांवचें ना, जावपाक किदेंय जावं येता, अशें जावं येता कि तुज्या पयली हांबूच तेका प्रपोज करीत.

**प्रजय** : (गोमटेक धरता) तूं तशें कायच करचोना . आयज मेरेन हांव तुका वगी रावला. पूण आतां वगी रावचोना. तुका सांगता हांव, प्राचीक फारावपाचो प्रयत्न करूं नाका. कारण प्राची फकत म्हजें जातलें. तुवेन जर ताका फारावपाचो प्रयत्न केलो, तर हांव तुका जिवेशी मारतलो.

**सुदेश** : प्रजय, कलाकाराच्या तोंडान असले शब्द सोबना.

**प्रजय** : आरे तुवेन म्हज्यांतलो कलाकार आजून पळयला खंय? हांव गितारार हात मारता तसो तुज्या कानारूय मारूंक शकता. गिताराचो आवाज फक्त ऑडियन्साक आयकूंक येता. पूण तुज्या कानाचो आवाज तुज्या घरच्यांक आयकोंक येतलो.ही पोकी धमकी समजो नाका. हांव जें थारायता तें करता.

**सुदेश** : खबर आसा, म्हणुनूच इतकीं वर्सां जालीं तरी प्राचीक तीन शब्द सांगूंक पावलो ना.. जो मनीस चेडवाक मोगाचे तीन शब्द सांगोंक शकना तो... सोडून दी. म्हाका तुका निमणे इतकेंच सांगपाचें आसा, प्राचीचेर जितको तूं मोग करता तितकोच हांवूय...(प्रजय सुदेशाचे गोमटेक धरता) आरे प्रजय, आयकोन घे... प्रजय

म्हजो मोग तुज्या भशेनूच वन सायडेड आसा.(गळो सोडटा)

**प्रजय** : आनी वन सायडेडूच उरतलो.

**सुदेश** : ना उरचो, कारण हांव ताका तुज्या पयलींच प्रपोज करतलो.

**प्रजय** : (हांसता) तुका किदें दिसता, तें तुका हय म्हणटलें. प्राचीक हांव भुरगेंपणासावन वळखता. तें तुज्या असल्याक आपलें मन केन्नाच दिवचें ना.

**सुदेश** : प्रजय, कोणी कोणां वांगडा कितके दिस घालयल्या हें महत्वाचें ना. तर एकटयाकडेन दुसऱ्याक जाणून घेवपाची कितली अक्कल आसा हें महत्वाचें. प्राचीवांगडा इतके दीस घालोवन लेगीत तुका दुबाव आसा तें तुका हय म्हणीत काय ना तें. हांवेन प्राची वांगडा थोडोच काळ घालयला पूण म्हाका फुल कॉन्फीडन्स आसा, प्राची म्हाका ना म्हणचें ना.

**प्रजय** : तूं म्हजे परस ताका चड वळखता आसत, पूण ताच्या मनान म्हज्यो भुरगेपणाच्यो यांदी आसा, आमची इश्टागत आसा, म्हज्या मनान जसो मोगाचो अंकुर रूजत आयला, तसो तेज्या मनान आयलाच आसतलो.

**सुदेश** : घडये येवंकना आसतलो, शायद वो सिर्फ दोस्ती है, प्यार नहीं।...प्रजय प्राची के लिये तू पसंद है, प्यार नहीं। और मै पसंद नहीं, पर प्यार हूँ।

**प्रजय** : तुका तुजो जीव नाका दिसता.

**सुदेश** : तूं परत परत मारपाच्यो गजाली किदयाक करता. प्यार को प्यार से जीतो,ताकतसे नहीं। अदरवायज टेक इट एज चॅलेंज ऑर गेम.तूं जितको प्राचीचेर मोग करता तितको हांवूय करता. पूण प्राचीच्या मनान कोण आसा हें कोणूच नकळो.ते खातीर तूंय ताका प्रपोज कर आनी हांवूय करता.पळोवया तें कोणाक मेळटा ते

**प्रजय** : बरें आसा, तशें जाल्यार हांव आयजूच, आत्ताच, प्राचीक प्रपोज करता. पळोवया तें कोंणांक हय म्हणटा.

**सुदेश** : म्हाका फटयतां, काय स्वताक फटयतां? हांव जाणा तूं तेंका सांगोंक पावचोना. कसो सांगतलो, तें भुरगेंपणाचे फ्रेन्ड तुजें.

फ्रेन्डशीप तुटली जाल्यार. प्रजय, इश्टागतीचो ही तार तुटोंग दिवं नाका.

**प्रजय** : आयज सुर मेळटलो नाजाल्यार तार तरी तुट्टली.
(प्राची येता)

**प्राची** : कसलें डिस्कशन चललां तुमचें. घरा वचपाचें ना... किदें जालें? दोगुय ओगी शे...अशें म्हाका अजाबान शें पळयता?...सॉरी हांवें रॉंग टायमार ऍन्ट्री मारली !(वचपाक)

**सुदेश** : ना प्राची वयल्यान तुवेन टायमार एन्ट्री मारली. प्राची...

**प्रजय** : प्राची म्हाका तुका किदें सांगपाक जाय.

**प्राची** : किदें? (प्रजय सुदेशाक पळयतां)

**सुदेश** : हांव मर्दी उलयना. सांग तूं पयलीं, तूच सांग. ससो फुडें धावलो म्हण जिकतलोच असो ना.

**प्रजय** : तूं मात्सो भायर चल.

**सुदेश** : ओ.के. रावता भायर... तूं हरलो म्हणतकूच येता.

**प्राची** : ताका किदयाक भायर धाडटा? तुमीं दोघानीय प्लेनींग केल्या आसतली. म्हजी गुगली बी करीना मरे?

**सुदेश** : आता तूंच आमची गुगली करीत म्हण भय.

**प्राची** : किदें?

**सुदेश** : कांय ना... हांव भायर वयता .मागीर येता. (प्रजयाक) ऑल दी बॅस्ट (वता)

**प्राची** : किदें जालां तुमचें? प्रजय, किदें सागोंक सोदता तूं?

**प्रजय** : प्राची आदीं म्हाका सांग, आमची वळख केन्नाची?

**प्राची** : किदयाक, म्युझिक क्लास विसरलो, काय भुरगेंपण विसरलो?

**प्रजय** : कांयच विसरोंग ना, सगळें तशाक तशें मनान साठोन आसा.

**प्राची** : मागीर आमची वळख केन्नाची म्हण किदयाक विचारता?

**प्रजय** : तुका किदें याद आसा तें पळोंक जाय.

**प्रजय** : सगळें याद आसा. तो म्युझिक सर, भुरगेंपणांतली फकाणां, खेळ, झगडीं, आमची इश्टागत, सगळे-सगळे याद आसा. पूण तूं किदयाक रिवांयड मारपाक लायता.

**प्रजय** : फॉर्वर्ड हातीभायर वचूंग जायना जाल्यार मात्सो रिवांयंड मारचो पडटा... प्राची, ॲक्चुअली... म्हाका तुका किदें सांगपाक जाय.

**प्राची** : किदें सांगपाचें आसा तें बेगीन सांग, चड रिवांयंड-फॉर्वर्ड मारूंक बसो नाका.कॅसेट तुटत.

**प्रजय** : प्राची...हांव...

**प्राची** : तूं?

**प्रजय** : म्हणजे तुका...

**प्राची** : म्हाका?

**प्रजय** : ॲक्चुअली...

**प्राची** : व्हॉट? सांगतरी किदें सांगपान सोदता तो.

**प्रजय** : सांगतलो, प्राची एकदीस तरी सांगतलो. आयज ना जाल्यार फाल्यां सांगतलो. कारण म्हाका विश्वास आसा, म्हाका सांगपाक कितलोय कळाव जालो जाल्यार लेगीत म्हजे हात खाली उरचेना. म्हज्या नशीबाआड कोणूय येवं, निमणे म्हाका जाय तें मेळटलेंच. निमाणी जैत म्हकाच मेळतलें. (वता).

**प्राची** : असो किदें हो, काय सांगी नासतना गेलो(सुदेश येता)

**सुदेश** : प्राची जालें उलोवप तुमचें, म्हळयार सांगलें ताणें.

**प्राची** : खंय किदें सांगलां. किदें सांगूक सोदता तें सांगुकूच ना.

**सुदेश** : (हांसता) म्हणजे आयजूय तो तुका कांयच सांगूंक पावलो ना. कळ्ळेंलेंच म्हाका. म्हणूनच तर तेची हालत अशी जाल्या.

**प्राची** : किदें?

**सुदेश** : कांय ना, आता सोड्डून दी तेजी गजाल. प्राची ॲक्चुअली... म्हाकाय तुका किदें सांगपाक जाय.

**प्राची** : हें पळय सुदेश, तुजी आनी म्हजी ओळख हालींची ते खातीर आता तूं म्हाका रिवांयंड मारूक लावं नाका.

**सुदेश** : (हासता) डोन्ट वरी, रिंवांयंड आनी फॉर्वर्ड मारून हांव टायम वेस्ट करचोना, हांव डायरेक्ट प्ले मारता.मनशाकडे मन आसलें म्हण जायना, तें उक्तें करपाचें डेरींग जाय. खूप दिसाची गजाल तुजेकडे मांडपाचो वेळ येयला. प्राची भुरगेपणांसावन तुवेन चंद्र पळयला.

ताच्या वांगडा लिपच्यानी खेळलें. पूण त्या चंद्राच्या चांदण्याचो उजवाड तुका दिसूंगना, जो फकत तुजेर आसा. आयज हांव तुका त्या चान्याचो उजवाड दाखयता (मोग उक्तावपी डान्स. ल्हव ल्हव काळोख)

(ल्हव ल्हव उजवाडथा, सगळे उलयता. प्रजय आपलेच गुंगेन)

**शिरी** : ए प्लजयाक पलयात, बाबलो वगी वगी आसा. प्लाचीचें चितता आसतलो. पयलीं ताका दोळयांमुखार फकत माची दिसताली. आत्ता प्लाची दिसता. ह्या खातील मनशान केन्नाच मोगान पलोंग जायना.

**शाणू** : ए कोण पडलो?

**शिरी** : तुजो बापूय झाडावयल्यान पडलो, भेलो खंयचो, आदीच हांगा तेन्शन वादलां आनी हो भेलो आनींग तकली खाता. या भेल्याच्या मोगांन आनीकोन चेडू पडलें जाल्यार त्लासान पडलें म्हण समजपाचें.

**शाणू** : सारखें, सारखें...

**शिरी** : किदें आयकलें कोनांग खबल.

**अनिल** : हेंका एक मेकांक केन्नाच पटना. साहिल, प्रजय पळय वगी आसा. आजून सांगूक ना ताणी.

**शिरी** : हांवें सांगलें तेका हांव शांगता म्हण... पूण तो म्हणता नाका. स्वताच्या हातीन खायना आनी दुशल्यान भलयल्यारूय खायना.

**साहिल** : ताका मोग जाला आमच्याच ग्रुपाच्या चेडवाचेर. भायलें आसलें जाल्यार वेगळे तरेन सांगूंक जातालें. हो असो रावोन रावतलो कितले दीस. खबर आसा तेका सुदेश प्राचीक घुस्पता तरी तो कळाव करता.

**शिरी** : शालके, स्वताय धावना आनी दुशल्याकूय धावोंग दिना. शुदेशाचे पांय ओढच्या परस डायलेक्ट प्लाचीक शांगल्यार जाता कि प्लाची आमी दोगांय फ्लेंद आशा खलीं, पूण ॲक्चूअली...आय लव्ह यू (शाणू मुरगडता) तू किदयाक मुलगडता ले भेल्या.

**शाणू** : अशेच म्हाका एकदा, एका चेडवान म्हटलेलें.

**शिरी** : ह्या भेल्याक आनी कोन मेल्लें. हेका आय लव्ह यू म्हणणाले मोर्नेच आशूं येता.

**शाणू** : शिरी तुका कोणी आय लव्ह यू म्हटलां?

**शिरी** : ये भेल्या, हांव खयचाच चेदवाक म्हाका प्लोपोज कलूंक दिवचो ना. हांवूच ताका प्लोपोज कलतलो. ताका पयली प्लपोज कलूंग दिलें जाल्यार फुडें शगलें तेंच कलतलें. म्हाका कायच कलूंग दिवचें ना.

**साहिल** : प्रजय, असो घुस्पटोन रावो नाका. सांगून वडय प्राचीक सगळे. ड्रमाचो आवाज आयकूंक जाय जाल्यार ताचेर बडी मारचीच पडटा. आनी खऱ्यानीच जर सुदेश प्राचीन इंटरेस्ट दवरता. जाल्यार तोच ताका सांगोन मेकळो जायत, आनी प्राची तयार जालें जाल्यार मागीर तू किदें करतलो?

**अनिल** : हें मात खरें. कोणाच्या मनाचें कांयच सांगोक जायना, खऱ्यानीच सुदेशाच्या मनान प्राचीविशी मोग आसूं येता. घडये ताणी ताका उतरूय घातला आसत.

**शाणू** : ऐ प्रजय, आमकां तुका असो पळोंग जायना. तू बेश्टो भियेता. म्हजें मन सांगता, प्राची तुका ना म्हणचें ना, आनी ना म्हटलेंय जाल्यार फ्रेंन्डशीप तरी तोडचें ना.

**शिरी** : खूप दिशानी सालकें उलयता. प्लजय उशील कलू नाका. प्लाची आनी कोणाचें जावच्या पयली तूं तेंका तुजें कलून घे.

**प्रजय** : तुमी सांगता तें सगळे खरें, पूण आता खूप कळाव जाला. हावेन स्वता पायार कुराड मारून घेतली शी दिसता.

**अनिल** : म्हळयार?

**प्रजय** : सुदेश खऱ्यानीच प्राचीक लायक करता.

**सगळे** : किदें?

**प्रजय** : हय, ही गजाल तार्णे म्हाका काल सांगली आनी हांवेनूय ताका म्हज्याविशी सांगलें. आनी प्राचीक उतर घालप दोगानीय थारायलें. प्राचीक सांगपाचो पयलो चान्स सुदेशान म्हाका दिल्लो

पूण प्राचीच्या म्हऱ्यान हांव कायच उलोंक पावलो ना. शब्द ओठाकडे येवन खंयतरी अडखळले. केदी व्हडली चूक जाली म्हज्या हातीन.

**शिरी :** तूं आनी किर्दे लें. तोणांतल्यान लालू भायल वडयलो.

**साहिल :** चूक जाली खरी, पूण आजून कळाव जावंक ना. आयज सुदेश प्राचीक मेळच्यापयली तूं ताका मेळ आनी भिये नासतना सगळें सांगून वडय.

**प्रजय :** हांव सांगूंक पावलो ना हें सुदेशाक कळळें आसतलें आनी तेनी कालूच आपलें काम केलें आसतलें. म्हजेच चुकलें. हातान आशिल्लो चान्स वगडायलो, नशीबान आशिल्लें प्राची वगडायलें. आय लॉस्ट प्राची, आय लॉस्ट प्राची.

**साहिल :** तूं किदयाक नर्वस जाता. काल सुदेशान ताका सांगलाच आसतलें अशें ना आनी सांगलाय जाल्यार तें हय म्हणतलेंच अशें ना. प्रजय, प्राची आजून तुजेंच आसूं येता. चल वच, आयज वाटेरूच धर ताका आनी सगळे सांगून वडय. फाटीफुडें कसलोच विचार करूं नाका.

**अनिल :** प्रजय, साहिल सांगता तें सारखें, वेळ वगडावं नाका, मनशाचें नशीब कोणूच बदलू शकना. प्राची जर तुज्या नशीबान आसा. जाल्यार तें तुकाच मेळटलें. चल.

**प्रजय :** हय आता जाता तें जावं. कितले दिस म्हण शब्द दामून दवरतलो. आयज प्राचीक सगळे सांगून वडयता. म्हज्या पयल्या मोगाचो पयलो प्रपोजल आयज घालतलोच. प्राची हांव आयलो. हांव आयलो प्राची. जाता जाल्यार तुज्या मनाचें दार म्हज्या खातीर उगडें दवर... हांव आयलो प्राची. (धावपाक, इतल्यान प्राची येता)

**प्राची :** हाय एवरीबडी, प्रजय, आयज हांव चड खोशी आसा. म्हजे पाय जमनीर ना. म्हाका आयज मळबान उडलेल्याभशेन दिसता... अनिल, साहिल, शाणू, शिरी आयज तुमका दिवपाक म्हजेकडे एक गुड न्युज आसा.

**अनिल :** गुड न्युज?

**प्राची** : हय, आयज हांव चड खोशी आसा. आयज म्हजें सपन साकार जालें . ही खोशी घेवन हांव नाचो काय गांवो तेंच म्हाका कळना.

**साहिल** : आगो पूण जालें तरी किदें?

**प्राची** : जे चितूंग नासलें तें जालें, जें जावंक जाय आसलें तें जालें, जें आयकोंग सोदी तें आयकलें.

**शिरी** : आमका गॅशील किदयाक दवलता गो. शांग गो बेगीन किदें जालें तें. आमका भंय दिसता.

**प्राची** : आयज खूप खोशी आसा हांव.

**अनिल** : आगो कळ्ळें खोशी आसा म्हणोन, परत परत तेंच सांगो नाका. इतकी खोशी किदयाक जाल्या ती सांग आनी कसली गुड न्यूज?

**प्राची** : सांगू, खऱ्यानीच सांगू? म्हाका लज दिसता!

**अनिल** : लज मागीर, पयली सांग, ना जाल्यार कोणाचो जीव वचत. सांग बेगीन.

**प्राची** : आयकात तर. गुड न्युज हीच कि म्हाका म्हजो लायफ पार्टनर मेळ्ळो.

**प्रजय** : ना प्राची ना. अशें जावं शकना... तू फटींग उलयतां. सांग तू फटींग उलयता म्हण, हो गुलाब कोणाचोच जावंक शकना.

**प्राची** : किदयाक जावंक शकना. जो झाडावयल्या गुलाबाक तोडटा ताचोच तो जाता. आनी ह्या गुलाबाक तोडणाऱ्यान तोडलो... पूण म्हाका एक कळना म्हाका लायफ पार्टनर मेळ्ळो हाची तुका खोशी किदयाक जावंक ना. आनी तू इतको टॅन्स किदयाक? तुमच्या तोंडार खोशी किदयाक दिसना? ... प्रजय, तू फ्रेंन्ड म्हजो. सगळयान चड खोशी तुकाच जावंक जाय आसली. आनी तूं ...कळ्ळें. तू म्हजेर रागार आसा, कारण हांवेन तुका प्रोमीस दिल्लें, कि जो म्हजो जातलो ताका सगळयांन पयलीं तुकाच दाखयतलें म्हण. पूण प्रजय, हांव म्हजें प्रोमीस विसरोंग ना... ऑर्केस्ट्राच्या खंयच्याच व्यक्तीक हांवेन ताची ओळख करून दिवंकना.म्हज्या मनातल्या राजाक सगळयान पयलीं हांव तुकाच दाखयतलें (सुदेश येता) यो सुदेश सारखो टायमार आयलो.

**शिरी** : आमीं भायल गेल्लें बलें शें दिशता.

**प्राची** : नाका. तुमी सगळे हांगाच रावतले. तुमकां पळोवपाचो ना म्हजो बॉय फ्रेन्ड? सो प्रजय आर यू रेडी? तुका दिल्लें प्रोमीस आयज हांव पुराय करता. म्हज्या दोळयान पळय. पळयत राव. दिसलो? कसो आसा?... आसा न्हय सोबीत. आता हांव सगळयांक दाखयता. (प्रजयाच्या हाताक धरून) धिस इज माय लाईफ पार्टनर!

**प्रजय** : प्राची?

**प्राची** : किदें हें प्रजय, इतकी वर्सां तुज्या मोगाक घुस्पटत दवरलो तुवेन? इतको भियेतालो म्हाका? ते लेगीत तीन शब्द सांगपाक. हजार लोकांमुखार रावोन पद म्हणोंक शकता, पूण एका चेडवाच्या म्हऱ्यान रावोन तीन शब्द म्हणोंक शकना? सुख-दुखांतल्यो सगळयो गजाली म्हाका सांगूंक शकता, पूण तीन शब्द सांगूक शकना? भुरगेंपणासावन आमी फ्रेन्ड आसून लेगीत तुवेन ते तीन शब्द मनानूच दवरले? व्हाय प्रजय, व्हाय? सांगचें आसलें की प्राची तूं म्हाका आवडटा. तुजेकडे उलोंग आवडटा, तुका मेळप आवडटा, तू म्हजें सगळयान क्लोज फ्रेन्ड खरें बट ॲक्चुअली... ॲक्चुअली आय लव्ह यू म्हणचे आशिल्लें. प्रजय, म्हणचे आशिल्ले हे तीन शब्द. आरे तुज्यांतले सगळे बरेंपण आवडटा म्हाका. तुजी इश्टागत आवडटा. तुज्यातली कला आवडटा. तुजो स्वभाव आवडटा. मागीर तूंच किदयाक आवडचो ना?

**प्रजय** : प्राची?

**प्राची** : हय प्रजय, तुज्या तीन शब्दांची जाप पॉझिटिव्ह आसतली आशिल्ली.

**सुदेश** : कळलें मरे आता तरी, मागीर आता उशीर करूं नाका सांगून वडय ताका मनाची गजाल. आनी भिवो नाका. हांवेन ताका प्रपोज करूंग ना. प्राचीच्या कलेची जितकी तोखणांय करची तितकी ताज्या रूपाचीय करची. पूण मनांत आसून लेगीत हांव ताका प्रपोज करूंग शकना.

**प्रजय** : किदयाक?

**सुदेश** : फायदो किदें करून. आय ॲम ऑलरेडी मॅरीड.

**प्रजय** : व्हॉट?

**सुदेश** : हय, म्हजें लग्न जालां. देड वर्स जालें म्हज्या लग्नांग. ॲण्ड फोर युवर काइंड इन्फोरमेशन् हांवूय लव्ह मॅरजूच जाला.

**शिरी** : किदें शांगता लें.

**साहिल** : सुदेश खऱ्यानीच?

**सुदेश** : हय, ही गजाल हांवेन तुमचे कडल्यान मुद्दाम लिपयल्ली. कारण, प्रजयाचें मन प्राचीचेर आसा हाचो म्हाका दुबाव आशिल्लो. प्राची म्हज्यालागी आयिल्लें ताका खटकतालें. किदयाक खटकतालें जाणून घेवपाक लागोन हावेन म्हज्या लग्नाची गजाल लिपयली. तुवेन प्राचीक बेगीन प्रपोज करचें म्हण हांव प्राचीक लायक करता म्हण तुका सांगचें पडलें . पूण तुज्यान उजो पेटोवन कायच फायदो जालो ना. जें तुवेन करूंक जाय आसलें तें म्हाकाच करचें पडलें. तुजें मन ताच्या म्हऱ्यान म्हाकाच दवरचें पडलें. प्राची, या मॉर्डर्न जगान एक चेडो शेकडयांनी गर्लफ्रेंड बदलतना हांवेन पळयल्यां. पूण इतकी वर्सां एकाच चेडवाक काळजान दवरणारो हो पयलोच. पूण प्रजय, हो मोग वन सायडेड उरतलो आशिल्लो. जर हांवेन तुज्या मोगाची काणी प्राचीक सांगूंक नासली जाल्यार...

**प्रजय** : किदें?

**सुदेश** : हय काल तुका चान्स दिवन लेगीत तूं सांगूंक पावलो ना, म्हण म्हटलें चल आमींच बोटीक धक्को दाखोवया. प्रजय हांव मोगाविशींच उलयनां, पूण आयुष्यांत खंयचीय गजाल करूंशी दिसता जाल्यार करून सोडपाची. तार्चे फळ मेळटलें काय ना हाचो विचार करचो न्हय. फळ देणारो तो (वयर बोट दाखोवन) तेचेर सगळें सोडपाचें आमीं फक्त कर्तव्य करप. शेवट सगळो नशीबाचो खेळ आसता. आनी मनशाचें नशीब तोच घडयता. म्हज्या नशीबान आसलें तें म्हाका एका वर्सा आदीं मेळ्ळें. झें तुज्या नशीबान आसा तें तुका मेळ्ळें. म्हज्या लग्नाची गजाल

आयकोन तुजें टेन्शन कमी जालां आसतलें... बेश्टोच म्हजेर दुबाव घेतालो.

**प्रजय** : आय ॲम सॉरी?

**सुदेश** : सॉरी खऱ्यानीच एक सादो शब्द. सगळयान सोबीत शब्द लव्ह. आनी आयज तोच तुज्या तोणांतल्यान येवंक जाय. चल प्राचीक बेगीन आय लव्ह यू म्हण. ना जाल्यार आनींग कोण कबाब में हड्डी जायत, आनी तो म्हजे भशेन लग्न जाल्लो आसतलोच अशें ना.

**प्रजय** : प्राची, आय लव्ह यू.

**प्राची** : आय लव्ह यू टू.

**शिरी** : आयकोन बरें दिशलें.

**शाणू** : अे हांवेन आयकोना परत एकदा म्हणात.

**शिरी** : जांव आयज पयले फावट ह्या भेऱ्याचो फायदो जालो. म्हणात गो पलत (परतून म्हणता. सगळे ताळयो मारता. मॅनेजर येता)

**मॅनेजर** : किदें जालें बोवाळ सो? नव्या पदाची तयारी चल्ल्या काय किदें?

**शिरी** : शल्ल आता आमी एकूच पद म्हणूंक जाय.

**मॅनेजर** : खयचें?

**शिरी** : ...शुभमंगल....

**सगळे** : सावधान.

(ल्हवू ल्हवू पडदो पडटा)

।।समाप्त।।

## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्लें कोंकणी नाट्य साहित्य



### उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां:

ॲक्शन
ऑल फॉर यू
ॲरेस्ट हिम
ॲक्टींग ॲक्टींग
आय ॲम सॉरी (लेखनाचें पयलें वक्षीस मेळोवपी नाटक)
ॲक्चुअली ... आय लव्ह यू

### उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां

अपुरें स्वातंत्र्य,
आधार एअरलायन्स, आय डोन्ट केअर,
ऑपरेशन डबल गेम, आत्मो

### एकांकी

ऑपरेशन डबल ए ,आधार

### नाटकुलीं

आमी अशे म्हणून तशे
आमचो खेळ
आयच्यान आळशीपणा नाका

### एकपात्री

चेडू, मिस इंडिया